# साहित्यरत्न

संग्रह केला:

श्री. सुरेश ए. शेणै हाणीं

सरळ कोंकणी प्रकाशन

कोची

2000

# साहित्यरत्न

संग्रह केलाः

श्री. सुरेश ए. शेणै हाणीं



सरळ कोंकणी प्रकाशन
कोची
2000

(Konkani)

Sahithya Rathna
(Literary Digest)

Collected by:
Suresh A. Shenoi
for saral konkani prakasan

Publishers & Distributors

Saral Konkani Prakasan
X/1614, "Maruthi Vihar"
Amaravathi, Kochi - 682 001.


First Edition - 2000

Typesetting & Printing by
S.K. Enterprises, Kalabhavan Road,
Ernakulam - 682 018.

Price - Rs. 45/-

पुस्तकाँतलीं मताँ त्या त्या बरोवप्यालीं

# मांडावळ

# प्रकाशकाँची उतराँ

कोंकणी साहित्याचे अभिवृद्धी खातीर प्रयत्न, पाँव्चे उत्सुक लेखकाँचे परिश्रम तथा साहित्य वाडूका म्हळेले तान-अंका अस्सी एक उद्यमाक प्रोत्साहन दिल्याँ, लान रुपान जल्यारीयि तुमचे मुक्कारी ह्ये पुस्तक सादर करूक भोव संतोश आसात। पुस्तकाचे प्रकाशन आताँ भोव संतोश आसात। पुस्तकाचे प्रकाशन आताँ भोव खर्चाचे काम। जाल्यार भाशेचे मोगी सदकारु दित्तले म्हळेले विश्वासान आम्मी ह्ये पुस्तक तुमचे मुक्कारि सादर करतात। हो पुस्तक उजवाडाक हाडचे खातीर सहकारु दिल्लेले लेखकांक धन्यवाद।

सरळ कोंकणी प्रकाशन कोची

## श्री. बी. लक्ष्मण मल्लय्या (1950)


श्री. बी. लक्ष्मण मल्लय्या

हाँका दोन पावटी पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार मेळ्ळा। 1996 वर्सा कोचींत जालेल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेळनाचे यवेकार समितीचो सहकार्य दर्शी अस्सिलो। 1999 वर्साचे कोंकणी भाषा प्रचार सभेचो साहित्य पुरस्कार हाँका लावला। पुरोगामी कलासाहित्याँत विशेष रुची। भारतीय स्टेट बैंकांत काम। केरळ सरकाराचा "भारत भवन" सांस्कृतिक समितींत केरळ कोंकणी अकादमीचो प्रतिनिधी।

पत्तोः शंकर प्रिया 4/822, नोर्त चेरळाय
कोची - 682 002

---

## पी.एन. शिवानन्द शेणै (1851)


पी.एन् . शिवानन्द शेणै

हाँगेले दोन कविता संग्रह उजवाडाक आयल्यात। 'किरकिर' (1984) आनी चाँगपणाची साँत (1994)। 1986 वर्साचे पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार हाँका लावला। मलयालम साहित्यान्तूय हाँचे बरें नाँव आसा। गोंयच 'सुनापरान्त' पत्रान हाँका म्हयन्याचो कवि म्हणु सन्मान केल्याँ (1994) कोची पोर्ट ट्रस्टान्तु काम।

पत्तोः पुल्लाट कुरुंजिकाट्टिल
कुमारनेल्लूर जंकषन,
कोटायम - 686 016

---

## श्रीमती काञ्चना बोस (1960)


श्रीमती काञ्चना बोस

हाँगेली सुमार कथा आनी कविता कोंकण जनता चेरी उजवाडाक आयलात।1992 वर्सा केरळा कोंकणी साहित्य अकादमीन घडंयलेले प्रतियोगितान्तु हाँगेले कवितेक दुसरे पुरस्कार लाबला। 94 वर्साचे कोंकण जनतान घडयलेले दीपावली साहित्य प्रतियागितान्तु हाँगेले कवितेक प्रथम पुरस्कार लाबला। पीपकस अर्बन को-ओप. बैंकान्तु काम।

पत्तोः प्रशान्त, पळिक परम्भुकाव,
त्रिपूणितुरा-682301

## श्री. आर.एस. भास्कर (1948)


श्री. आर. एस. भास्कर

*कोंकणींत भावात्मक कवितेचे प्रितनिधी। हाँगेले तीन कविता संग्रह उजवाडाव आयलात। पयले अक्षराँ (1982) दूसरे नक्षत्राँ (1995) आनी अक्षराँ (1997)। गोंयले सुनापरांत पतान हाँका म्ह्यनाचो कवि म्हूण सन्मान केल्याँ (1994), 1996 वर्साचे ताराभाय विष्णु मापसनकार वैश्य भारती पुरस्कार आनी 1994 वर्साचे ताराभाय विष्णु माप सनकार वैश्य भारती पुरस्कार आनी 1994 वर्साचे कोंकणी भाषा प्रचार समाचे साहित्य पुरस्कार हाँका लाबला। केरळ कोंकणी अकादमीचे खजान्जी आसा। साहित्य अक्कादमी चे कोंकणी उपदेशक समितीचे सदस्य असिले (1993-97)। रितु, सुनापरांत, जाग, कोंकण टइमस, तैश्य भारती, कुलांगन (गोवा) कोंकण जनता (केरळ। तथा पंचगदाय (कर्नाटका) हान्तु पूरा हाँगेल कविता उजवाडाक आयलात।*

*पत्तो: राम मंदिर, श्री जनार्दन देवस्वं साउत्त*
*10/549 अमरावती कोची - 682 001.*

---

## श्री. सुरेश ए. शेणै (1947)


श्री. सुरेष ए. शेणै

*1995 वर्साचो 'पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार' हाँका लाबला 1996 वर्सा कोचींत जालेल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेळनाचे येवकार समितीचो कार्यदर्शी अस्सिलो। 1998 वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीन हाँगेले दोन कथा उजवाडाक हाळ्या। 1999 वर्सा 'सुनापरान्त' (गोंय) पत्रान्तु हाँगेले कथा उजवाडाक आयला। 1999 वर्साचे कोंकणी भाषा प्रचार सभाचे साहित्य पुरस्कार हाँका लाबला। सिंडिकेट बैंकांत काम। केरळ कोंकणी अकादमीचे उपाध्यक्ष।*

*पत्तो: 'मारुती विहार'*
*X/1614, अमरावति, कोची - 682 001.*

# प्रो. के.आर. वसंत मणी (1941)


प्रत्तोः प्रेम मंदिर, पषवीड़, पोरट,
आलपुषा-688009
फ़्रेण - 260775

हांचो कोंकणी कथा संग्रह् "भांगरा दांत" वर्ष 1993 केरळ कोंकणी अकादमीन आनी 'निमज्जन' वर्ष 1999 अंजली प्रकाशनान उजवडायल्याय. 'उथान' नावार एक नाटक 'कोंकण जनतेर' मलयाळम लिपीत प्रकाशित जालें. 'भांगरा दांत' ताणी स्वयं केल्लोलो मलयाळम अणकार, केरळाचे प्रसिद प्रकाशक D.C. Books हांणी 'मर्डे मोरता' ह्या नावान उजवाडायला. संस्थेन उजवडायल्या 'समकालीन कोंकणी लघुकथा' ह्या संग्रहांत हांची कथा आसा. केरळा भाषा इनस्टिटयूटा खातीर मलयाळमांत Pre-Degree Physics बरयला आनी Structure and Properties of Metals and Alloys' अणाकारला. ह्या वर्ष फेरवरींत करणाटट कोंकणी भाषा मंडलाचे रजत जूबिली संबन्द 'केरळांतलें कोंरणी साहित्य' एक प्रबंन्द सादर केल्लेलें 'सुनापरंतार' प्रकाशन केल्लेले आसा. केंद्र साहित्य अकादमी वाटेन ट्रावल ग्रांट घेवन गोवा मगळूर गांवांनी संस्कृति यात्रा केल्या. कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे दोन साहित्य पुरस्कार हांका लाबल्यात. मलयाळम आनी इंग्लीष नेमाळ्यां खातीर आनी न्यूस पेपरार खूब बरयतात. निवृत्त प्रोफसर. गौड सारस्वत कळचरल आन्ट रिलीफ सोसायटीचो कार्यदर्शी. श्रीमती. प्रेमा भाय पत्नी, इंजिनीयर वी. गिरीष पूत, श्रीमती. अनूपा सून आनी अंजली नाती.

# प्रस्थावना

साहित्यरत्न ये पुस्तक कोंकणी भाषेन केरळचे कोंकणी लेखकानी बरयलेले कथा अनी काव्यं, कोचिचो श्री सुरेश ए शेणैन संग्रहीत कोर्नु प्रकाशित केलेले जाव्नु आसा. श्री सुरेश शेणै एक तरुण कोंकणी साहित्यकारि अनी भाषे उद्धाराखतीरि प्रयत्न कोर्नु येता. ये पुस्तक प्रकाशित कर्ता "सरळ कोंकणी प्रकाशन".

हया पुस्तकान्तु असा चारि कथा अनी दोनि काव्य. प्रथम जाव्नु असा एक कथा. "देव हीं मनीसं" म्हळेल्या शीर्षाचेरि श्री बी. लक्ष्मणमल्यान बरयलेली एक कथा. भाष थेट कोचीन्तु उलोंव्ची जाव्नुअसा देखून कथा वचून संजूचाक कठिन पडना. लक्ष्मणमलो असा एक उदेन येव्चो कोंकणी साहित्यकारि अनी तका कोचि कोंकणी भाषा प्रचार सभेच्या कोंकणी साहित्य पुरस्कार मेळ्या असा. तो एक तरुण साहित्यकारि.

दुसरे ते प्रकाशन असा प्रो.के.आर. वसंत मणी एक मल्गोडो साहित्यकारि अनी भाषे उद्धाराखतीरि प्रयत्न कोर्नु येव्चो केरळचो कोंकणी लेखक हर्नी "गोळ्डन शॅर" शीर्षा चेरि बरयलेली कथा असा ये पुस्तकान्तु प्रकाशित केलेली ती असा एक लघु कथा. भाषा शैली केरळची कोंकणी अनी हृदयाक धरची जाव्नु आसा. तंतूली संभाषणारीति मनाक आकर्षण कर्ता. देखून तार्नी बरयलेली लघुकथा दकैता विशिष्टता. कोंकणी साहित्यलेखनाक तांका कोचि कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे साहित्य पुरस्कार दोनि वेळारि मेळ्या आसा.

लगीचि साहित्य कृति असा एककविता, बरैलोलो साहित्यकारि श्री. आर. एस. भास्कर, ते रबता फोरट कोचिन्तु. ते एक विख्यात कोंकणी कवि. तानी बरैलेले कोंकणी कवितेक कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे साहित्य पुरस्कार मेळ्या असा! या पुस्तकान्तु असा तार्नी बरैलेलें काव्य "मा निषादा"! कवितेन्तुले शब्द प्रयोग गोयान्तु अनी केरळ प्रदेशान्तु प्रचलित जाव्नु असूचे, उदाहरण, "वावुरता", "वांगडा" ये शब्द गोयान्तु चडानि चड प्रचलित जाव्नु असा. देखून तगिले काव्य गोयकारांक अनी केलळान्तुले जनाक एकडे कोरूक सहायप्रद जत्ता. श्री भास्कर एक अंगीकृत कवि. मात्रनचि गोयांत साहित्यकारा भरसि एक विरव्यात कवि. साहित्यभिवृद्धीक प्रयत्नु काण असा.

श्री. पी.एन. शिवानन्द शैणै हनी बरयलेलें काव्य हया ग्रन्थान्तुले दुसरे काव्य. नाव दिल्या तका "रेषन" काव्य निर्माणाक कडली शब्द पूराचि केरळची कोंकणी. शिवानन्द शेणैन बरयलेलें असा सुमार काव्यं अनी तीं प्रशाशित केल्या असा.

श्री. सुरेश ए.शेणै कोंकणी साहित्यान्तु कथा प्रदान कोर्नु येता. तानी बरयलेलें लधु कथा रंगणमाम लक्षणयुक्त असा. त्या लघु कथेक कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे साहित्य पुरस्कार मेळया असा. सरळ जाव्नु सगटांकयि संजूचे रीतिरि कथा निर्माण केल्या. सादारण कोंकणी जनाकयि कथा संजूक जत्ता. या कथेन्तु एक सामूहिक प्रवर्तन करचे व्यक्तकि आधार धोरनु कथा निर्माण केल्या! कथा मनाक धरचि जाव्नु असा.

"वित्राचोवती चन्द्रेमु" नावान बरैलेली लघु कथा असा ती बरैलेली श्रीमति काञना बोस. स्त्रीजन कोंकणीन्तु साहित्य निर्माण करच्यान्तु मगलानना म्होणु दकैता. काञना बोसान सुमार कृतियो कोंकणीन बैरलेले असा. केरळान्तु प्रचलित जाव्नु असिले कोंकणी शब्द हे कयेन्तु असा. देखून केरळ अनी इतर प्रदेशान्तुली कोंकणी शब्द तारतम्य पठन करच्याक काञनान बरैलेली कथा गवेषकाक सहायप्रदजत्तले. भाषाशैली भारी सुन्दर अनी कथा लक्षणयुक्त असा.

साहित्यरत्न दकैता केरळान्तुले कोंकणी लेखकाँगेली विशिष्टता, इतर प्रदेशान्तुले जनानि बरैलले साहित्य तुलन केल्यारि कायि मगल्यान ना म्होणु. तरुण अनी मलगडे जन साहित्य निर्माण करच्चान्तु मुकारि येत्तात‍ि म्होणु "साहित्यरत्न" स्पष्ट कर्ता. श्री सुरेश शेणैन कडचे कोंकणी साहित्याभिवृद्धि प्रयत्नु बिजयप्रद जत्तलो म्होणु हांव विश्वासु पंक्ता

देव बरें करो

एन. पुरषोत्तममल्या
कार्यदर्शि,
कोंकणी भाषा प्रचार सभा
कोचि

कोचि,
20-9-2000

कथा

# देव हीं मनीसं

**बी. लक्ष्मणमल्या**
नोर्त चेरळाय, कोच्ची-2

तरुणाटो योग्य प्रभु, नारायण प्रभुलो पूत, चेर्तला गावां सून काम सोदपा खातिर कोच्ची गावांत एवुनु पावुलो. सुमार बावीस वर्स प्राय असिलो तरुणाटो,जोगि, म्ह्यूण मोगान उळदूचो, योग्य प्रभून 'बी. कोम' डिग्री जोडिल्यात. ह्या म्हाशरांत ताका एक काम मेळपा खातिर कांय पुणेय अड़चणे आसचे ना देकून तो कोच्ची पवुला. सीधा तो, ताचे, मलगाड़ बावाथंय वचाक गेलो. आजीचे मुर्तमय तो त्या घरकडे अयलोलो आसात. जल्यार तें उछवांत भाग घेवुंचाक. फरक इतुलेंच आज दंद सोदपाखातिर.

एक वस्सरि, एक निद्रेवुंचे कूड, न्हाणी आनी उदकाडे एकसानीच, त्या घरकडे आन रावता. त्या राति जोगी वस्सरेंत पउलो.

सकळींच फले-फल्यार जोगी जाग जालो. आनु उठिलो ना, देकून तो त्या मंदुरेचेर अळसायेन पउलो. अत्तं ताच्या चेर्तला गावांतुले घरकड जल्यार बपूस उठून कोळस्यांत उदक भरनु मड्यांक सिंपीत असतोलो. जोगी जल्यार उठून कसरत करून नवुंचाक वत्तलो. वर्सां आदी सून, म्हळ्यार शाखेंत वत्ता सून, तो कसरत करून एत्ता. त्या खतिर ताचें देह पासणा फत्तोर सरिके आसात.उपरांतें नावून संध्या पूजा साळी-ग्रामाची पूजन इत्यादी करून देवळांत पांय पडून एवुनु नाश्ता करितलो. जल्यार आज ह्या शरांत मनीस उठूकच सुमार सात वरं जत्ताय. चाली ताची तुंटली. कित्तें करूचें? तरुणाटो जोगि जम्बय कडूक लगलो.

जेणे प्रमाणी सहिन्यांतुले सिपाही नित्य अभ्यासान तांचें जीवन क्रमावुन वत्ताय, तेणें प्रमाणी शाखेंतुलें कसरतान जोगियालें जीवन ताणें क्रमायलें. ताचेर

ताणे गर्व धरलें. ताची संध्या वंदन,साळिग्रामाची पुज्जा, देवळांत वचप, इत्यादी तुंटलें, देकून तो अस्वस्थ जालो. ताचे ऐसे क्रमाय्लेलें भक्ति मार्गाचें जीवनान ताका नर्रसिंह देव उदरगति करितलो म्ह्यूण ताणे आशा बाळ्ळकली. आण तुंटलो देकून जोगी मंदूरेर पडून लळूक लागलो. दंद सोदिता, सोदिता दिसार मास चडलो,तरि काम मेळूक ना.एक सेट्टीच्या वेपार सालेंत लेक्कं बोरोवुंचे दंद जोग्याक ताच्या मलगाड बावान फाव करिलें. पग़ार मासाक अटशीं रुप्पया.अनान एक सत्रांत, जंय तरुणाटे रावताय, थंय रावचे बागेक वेवस्था केल्ली. सोन्तोसलो जोगियान आपुले बपुसूक पत्र धाडिलें. कुटुम्ब सकळेंच सोन्तोसलें.

जोगियान खाण-जेवणाची प्रबंध स्वयं केल्ली. एक 'स्टौ' घेतलें आनी जेवण ताचेर रंदूक लागलो. दिसार मास चडले. दोन्निसें रुप्पाया भाडें, पयर्सी जेवणा-खाणाक खर्च, बाकि उरलेले रुप्पाय सान सान खर्चाकची पावना. ताच्या बाप्पाक शंबर रुप्पाया धाडूका म्ह्यळेल ताची इच्छा बाकी उरली. घरकडे सून बप्पूस बरपा उंचार बरप जोग्याक धाडित जालो. बप्पूस रोगेली. ओकदाक दुडु जाय, बप्पूस पुत्ताक बोरोवर्नात्तिल्लें कोणाक बरयतलो? जोगियाक ताचो उम्मेद ऊणे ऊणे जत्ता म्ह्यूण दिसूक लागलें. बप्पुसूक शंभर रुप्पाया ओकदाक दिवुचांक जायत ना जल्यार हें काम कसलाक?

ताचो आन हयाची शरांत काम करता, तो पंयसीं रुप्पाया बपुसूक धडितां कितुले कस्ट भोगून? जल्यार फुडे आनाचेर द्वेष दिसून ताणें बापुसूलगी उलेयलीं उतरँ ताका उडगास आयिलो "बापा माका पंयसीं रुप्पाया पगार मेळ्यार हांव तिन्निशें रुप्पाया खर्चु करतलो आनी दोनिशें रुप्पाया बाप्पाक दित्तोलों. जल्यार आज आठशीं रुप्पाया पगार मेळनु मास भरल्यार पांच रुप्पाया बाप्पाक दिवुंचा जाय ना." हे नरसिंह देवा, तुका नित्य सेवा करचे ह्या जोगियालगी कसलें विधि विपरीत?

ताच्या बोडांत सुरवे जाउनु, आनु कितुलकी कस्ट भोगून तं, पंयसीं रुप्पाया बाप्पाक धाडितां म्ह्यूण, चडलें. वोत्तांत, दोवु करगून वच्या लेकान, जोगियालें गर्व करगून गेल्लें.

एक वर्स भोगिलें. शेटि ताचो पगार चडयतलो म्हळ्ळेल इच्छेन ताणे दीस ताण्डिले. जल्यार फळ निराशा. एक दिसा तरुणाटो जोगि सेट्टीक मेळूक ताच्या कूडांत चडलो. वातानुकूल कूड़. सेटि एक खोल्यांत चाय पित्ता. अर्धु खोल्लो चाय. ताचे चड़ सेट्टीन पीवुंना. जोगियान सेट्टी लगी विनंती केल्ली, यजमानो अंग सून दिवुंचे पगारान जीवन मुक्कार वरूक जायना. बापुसूलें बरपार ऊंच बरप एत्ता असात. बापसूक ओकदाक पुणेय हांव दुड्डु दीवुंका जाय, देकून माझै पगार चडोवुन दिवूंक कृपा करा. हांव सदान्त तुमचो रिणेली असात.

शेटीन म्ह्ळ्ळें "माझे पुत्ता, हो वेपार नस्टांत चलता, लाभु कांय तरि ना. अत्तं हांव जो पगार तुका दित्तां तचे पसी चड़ दिवुंचाक माझे हातांत ना. जायत तरि दंद करि-ना-तूंखयीं वेगळकडे दंद मेळता जल्यार, चड़ पगार मेळच कडे, वच्चाक माका कांय विरोध ना. कितुले 'डिग्री'कारी काम नत्तिलें वाटेर भोंवती गलताय. आंगा एक्केकेल चड़ पगार निवुंगून मनिसाक पीड़ा करताय".

मत्तं उमती करून जोगी वापस ताच्या कदलार एवुनु बेसलो. ताच्या दोळे मुकार रोगेस्त बापसूलें चित्र नियाळूक लागलें खेवीं ताका पोट्टांत उत्तणताप एवुंचाक लागलो. "सेट्टीन संगिलें बद्ध आसूक पूरो, ताका वेपार नस्ट जावयेत. तसि जल्यार तो कसि पगार चडवुन दित्तोलो? तें मात नोय, इतुलकी सिक्किले लोगु ह्या गावांत अच्यापसी ऊणे पगाराक काम करूक आस्तना ताणे कित्याक माका पगार चडोवुन दीवुंका?" जोगियान चिंतन केल्लि.

एक दिसा त्या वेपारशालेंत दंद करचे कूलिक्कारि हड़ताल करूक लागले. म्ह्याल "लोरियेचेर" चडवप आनी खल्लाक देववप त्या दंदेलांच्यां काम. तांका दिवुंची, कुली चड़ जाय म्ह्यूण तांची गरज. बायर, वेपार शालेच्या मुकार ते कूलिक्कारि गूडी धरनु बेसले. काम कांय चलना. एक मनीस तांचे लगी उल्लयता जोगियाचे कानांत पडलें "इस्टानो तुमीं हड़ताल करताय हो वेपारशाला बन्द करून, खोत्ताक नस्ट हाडूक वे? कदापीं ना. कूलि चड़ मेळचे बगेक. तावळ तुमी कूलि कित्तें म्ह्यूण समझूक जाय.सकाळीं सून सांझ

बित्तेर दंद करून जत्तेर, खोत्तान पॉच रुप्पाया काडून तुमचे हातार दवरल्यार ते पांच रुप्पाया कूलि जत्तवे? पुण, तुमका, तुमगेलें बायिलांक, चेरडूवांक, तुमका पोसून होड केल्लेले तुमच्या आवुसु-बापुसूकु खवुंचाक-जेवुंचाक, राबचाक आसिले घराचें भाडें, तुमच्या चेरडूवांक सिकूका, तुमच्या कुटुम्बाक पूरा नेस्सूक बस्त्र, हाचें सग मोल, कूली म्ह्ळ्ळेल पदांत अन्तरलील्यात. ते मात न्होय तुमका रोग लागल्यार, तुमचे आवसु-बपूस, चेरडूवं हांका सग रोग लागल्यार, तांका जाऊंका जलेल ओकद-वोयिदा खर्चु हेंवेंय अन्तरलील्यातकूलि म्ह्ळ्ळेल पदांत. ह्या सगटाचोय खर्चु आज चडला. वोयिदा 'फीस' चडलां, ओकदा मोलं चडलां. म्हाल-अम्मी नित्य घेवुचें, ताचेंय मोल चडलां, भाडें चडलां. देकून तुमीं कूलि चड़ निंगील्यात. शेटांक्, तुमचे खोत्ताक, कित्तें नस्ट जाता. कांय ना. लभांत सण्ण ऊण्णाव, जल्यार तुमका ह्या लोकांत मनिसा लेकान जीवन मुकार वरूक जाय. त्या बगेक कूलिचो भाव चड़का. तुमी कूलि कारी सग-एकसानी मेळनु खोत्ता मुकार तुमची गरज दवरल्यात, तुमची संघशक्ति शेत चूर्ण जाउनत्तिलें पळेऊंक जाय. खंच्या खोत्तान, आसो रे म्ह्यूण, आजभित्तेर ताच्या दंदेल्यांक पांच रुप्पाया दिल्लेल इतिहास माच्या मुकार ना. रवोत्ताक, तुमका कूली चडोवुन दिवुंका जत्तेलें. ते कित्तें म्ह्ळयार अत्तं काल वेपाराक अनुकूल. खोत्ताक लाभु चड़ मेळचो काल. तो खाल देवनु एत्तलो. इस्टानो एक उदाहरण लगीन संगून राबयतां : ह्या वेपार शालेंत लेकं बोरोवुंचे एदेची कर्मचारी मनिसं असाय. तांका खोत कित्तें पगार दित्ता. कित्या तांका मनिसां लेकान असिलो पगार दी ना. तांका संघशक्ति ना. देकून तुमीं तुमची संघशक्तिची राखणें दोळें तुली कांळ मंडळी सरिके करूका."

जोंगियाचे मनाची गुसपसाणी अत्तं सोंपली. पगार कित्ति कारणा खातिर शेट चड़ करना म्ह्यूण ताका पयिले जाउन, बोडांत चडलें. ताका जीवितांत ऐसे चिंतन करूक कोण पुणंय वाट दकेयल ना. जोंगियान तो उल्लोउंचा मनीस कोण म्ह्यूण एक दंद काराक लगी विचरिलें."तुमीं वळखनावे 'सेर' त्या मनिसाक? तांचे नांव टी. एम. मुहम्मद्, सग दंदेली मोगान ताका इस्ट टी.एम. म्ह्यूण अपेयताय.

'ओ तो एक नायितो न वे?' जोगी छटपटजाउन निवुंगून गेलो. तो दंदेली कोपाची एक दृस्टी जोगियाक नियाळता जालो. जोगियालें तोण्डा रगत ना सरिके जालें. तें धवें जलें. जल्यार त्या टी. एम्मालीं उत्तरं ताच्या कानांत मस्त काळांक गुंज्जेउन रावलीं.

दीस सात आठ भोगले. दंद कांय चलना. सेट्टीक पोट्टांत दा-पांच एवुंचाक लागले. गिरायकांक म्हाल कांय धाडूक जायना. गिरायक वेपार रद्ध करतलीं म्ह्ळ्ळेल स्थिति उत्पन्न जाली. चर्चा जाली. त्या दंदेल्यांक कूली चडली. डड़ताल परतून घेतलें.

जोगी अजाप. जोगीक मयिनेक मेळचो पगार कितुलो, उतुलो चड् कूलि त्या दंदेल्यांक मेळूंक लागलो. संघशक्तिचि महिमा सुरवे जाउनु जोगियान आपुले दृश्टींन देकिलि.

ह्या लोकांत कोण, कोणाक सबाव दिवुचें ना. कोण काणाक सबाव दिवुनु पावुची ना. जल्यार अपणालें हक, संघशक्तिचे उपेगान जोडूका जायत आसा. परिणाम-मत्तें उब्बारन, ह्या लोकांत जीवन ताण्डूक जाता. हड़ताल बाल्लाव, तें विनाशकारी, साधारण मनिसांलगी करचो विद्रोह, पाप एसे चिंता ताणें सांडली.

देवान जौगियाचे कपलांत कित्तें रचिल्या म्ह्यूण कोण जाण? जोगि ताची घरकड़ची अत्तंची परिस्थिति दिकून खिन्न जाउन, ताची उदरगतीची रस्तो पळेवुन दीस तांडीता. देव राखता वे ताका?

एक शेयर दलालीले कम्पनीतँ लेकँ बोरोवुंचे काम ताका फाव जालें. शेटीच्या वेपारशालेंत मेळचा पसी पैंसीं रुप्पाया जास्ति मेळतलो. सोन्तोसान जोगी उड़की मारता जालो.

पयले जाउनु दो निशें रुप्पाया जोगियान घरकडे बापसूक ओकदाक धाडून दिल्ले. त्या रत्ति तो सुखान निदेलो.

दीस भोगून गेल्ले. जोगी ताच्या कामाचेर होशियार देकून त्या कम्पनीचे यजमानान ताका कम्पनीचो "अकौटन्ट" जाउनु 'प्रोमोषन' दिलें. पगार चडलो, एक केरींत चाँग एक घर भाडे धेतलें. बापसूक खर्चाक दाम दीवुनु धाडिलो.

जोगीं एक गोरो जालो, थोर जालो, सान एक धोलि दवरली. देवाची दया ताचेर पडली. देकून ताचो चांग काल उदेला. तो संज्जे काम जाउनु घरकड परतून अयिले उपरांत देवळांत वचून पांय पडूक लागलो.

शरांतुलें देवळ तें व्होड देवळ. सुमार वीसपंचेवीससास जाण बेसून जेवत्तलीं. संज्जे देवळ उक्तावण करनु जाल्यार देस-परदेस सून आसिलीं मनिसं पांय पडूक थंय, त्या देवळांत एत्ताय.

त्या लोकाचें संगातीं एक ल्हान सुन्दरी लगीन देवाक पाँय पडूक दिसदीस एत्ताली. गोरी, ओंट कांय सिंगर नतिल्लेंच तंबींडें, लेकान दिगाय, हाथाक दोन भंगारा कंकण, पैंयाक रुप्पार्ची पैजळं, उज्ज हाथाक रिस्टवाच, सान एक काळो तीळो निडलार, केसु, दिघायेन कारण पय्याचे कोंपरा खाल लाम्बून लळता, गाल बुक-बुकेच, गल्लाचे उज्ज-दिक्कान उज्जे भागक एक काळो तीळु-कोणालेय दोळे ह्या चेल्लियेचेर पडून तिका वायिट कांय जाऊंचा नज म्ह्यूण देवान वरदान दिलेल लेकान दिसता. देवान ही सृस्टी कोणाबगेक रचिल्या?

ते देवळांत दिस दीस पांय पडूक एंचे, चोवीस-पंचवीस वर्स प्राय असिले, सग तरुणाटयांचीय दृस्टी ह्या चेल्लियचेर पळ्ळी जल्यार तें स्वाभाविक. तीण देवळाचो प्रदक्षिण काडचे वेळार तेवेय तिच्या समान जाउनु प्रदक्षिण काडताय जल्यार चूकी ना. जाल्यार तिका दिकून किड़कायेचें उतरं सांगल्यार तीं तांची प्राय म्ह्यूण लेकून सोड्या. ती ल्हान सुन्दरी ह्या किड़कायेक जाप दीवुनत्तिल्लें तिची वाट पळेयता चोया. ती अंची सभ्यता म्ह्यूण लेकून तिका वंकाणसूया.

जोगी देवळांत एवुंचो वेळूय ती चेल्लीय देवळांत एंचो वेळूय एकु जलोलो, देवाचो खेळ. ह्या चेल्लेंलें म्हा लावणें रूप ताच्या दृस्टींत पडलें. चोयता तसी ताका आनिकेय अनिकेय चोयन म्ह्यूण दिसलें. दीसे, मार्सी एसे चलून अयिलें. जोगियाचे हर्दंत अनुराग वाड्रंक लागलो. देवळांत एक पसणा फातराचेर तिका चोवनु बेसतलो. ती घरकडे परतून वचाक बायर सरतरि तोवोय उठून ताच्या घरकड वत्तलो.

देवाल दया कसली म्ह्यूण कोणाक कळता? इतुलकी तरुणाटे ह्या

सुन्दरीचेर मोगु पावुनु तिची एक दृस्टी अपणाचेर केद्धण पडतली म्ह्यूण लेकून, रात-दीस दीर्घ श्वास सोडून, रत्ति नीद नत्तिल्लें राति ताण्डूचे वेळार तिची दृस्टि आमचे जोगियाचेर पडचे सरिके असिलें एक रंग मंच देवान कित्या सृस्टी केल्लें?

दीवाळेचो दीस चेरडूवं पट्टास फुट्टोवुन आनदीताय.संझे वेळ. केरींतुलेन जोगो चलून देवळॉत वत्तालो. आमच्या सुदंरीच्या घरामुक्कावेलान तो देवलांत वत्तालो, एक घरां भित्तंर सूनबायर उड्डेयललें पट्टास 'ठो' जाउनु जोगीच्या मत्या उचांर एवून बेतलं. जोगी एक भियेलो. "अय्यो देवा" म्हळ्ळेल एक उत्तर त्या सुन्दरेच्या घरकड़ सून बायर अयलेलें अयकून जोगी मातें उब्बारन, चोयलो. जनरलांत त्या सुंदरीच्या मत्तें एक घडियेक ताणें दिकीलें. दुस्सर घडियेक तें थंय ना. जोगियाचे हर्दें-तुलेन एक विद्युत प्रभाव जालो.सोन्तांसान तो नांचलो.

ती घटना एक अनुरागाची शुरुवात जाली. त्या दीस सून ती देवळांत आयल्यार जोगी बैसलो चावुनु एक हासतली. उपरांत लज्जेन तिच्या धवे गाल तांबीडें जाता चोवुनु आनंदीलो जोगी. तो अत्तं खालाक खंय न्होय.

तिरुप्पति एक 'बस' वत्ता. देवाक पांय पडूक जोगीय वचाक बायर सरलो. त्या बस्सार तिवय आसा. तिचे कुटुम्ब पूरा आसा. तिचें नांव निर्मली. तिची आवसु त्या नावान तिका उल्लो दित्ता ताणें कान दिलो. बायर सरलेल दुस्सरे दिसा तें बस तिरुप्पति पावलें. काशी मठांचे सत्रांत एवनु राबलीं. तिस्सर दिसा तांका तिरुप्पती देवाचे दर्शन जालें.

परतून गावांत एत्तण अर्धगूड्यार एक मंतार मनिसाक पोट्टाक गुड़गुड लागलो. ताका तव-तवळ उतकाडे वचूका, पोट्टाक दूकि लगीन आसा. देकूनु, एक हस्पतलांत भरती केलो. मंतार मनिसालीं बंधु बांधव कोण लगि न्होय देकून, मंतार मनिसाक कोण चोयतलीं म्ह्ळ्ळेल चिंता जलि. चर्चा जालीं. त्या मंतार मनिसाची राखणें करूक जोगी मुकार सरलो. तांका दोगांकय त्या हस्पतलांत सोडून तें बस म्हानगरी कोच्ची वचाक बायर सरलें.

ही घटना गोरी, सुंदरी निर्मलेच्या हर्द्धेत जोंगिया पसून बौमान आनी प्रेम बाडूक हेतु जालो. जल्यार तांका दोगांकय, एक मिकांक, एळतां पळतां तांचों प्रेम प्रकटावृंचाक आसिलो वेळ अत्तंय जल्मलोना.

जोगी त्या मंतार मनिसाकय घेवुनु वापस शरांत पावलो. शरांतुले जनं जाण जाली. जोंगियाक जनं वंकार्णसिताय गोरि, सुन्दरी निर्मलोच्या कानांत पडलें. तें अयकून ती सान्तोसली.

दिसदीस, एक तरुणाटो एक सुंदरी घराचे मुक्कावेलान चलून वत्ता, ती सुंदरी त्यावेळार त्या तरुणाट्टाची वाट पळेवुन राबता केरिकारनिय देकिलें. केरींत बोबा जली. तरुणाटयं मद्धें बोब जली. शरांत बोब जली. समाचार निर्मलीच्या आवुसु बपुसा कानांतृय पडलें.

बापुसून दुवेक विचारली. अवसून दुवेक विचारलो. तें सत्य.दृव वर्डीक करता जाल्यार त्या चेल्लाक. आवुसु बप्पूस, हांचे मुकार वाट वेगळि ना.

निर्मलीच्य बाप्पा एक दिसा चेर्तला गेल्लो. जोंगियाले आवुसु-बपुसूक देकून निजास्थितिच जाणकाय दिल्ली.

तस्सी ती वर्डीक जल्ली. सुन्दरी निर्मली आनी जोंगी आउनु लग्ना जालें.

सुंदरी निर्मली जोंगियाल स्त्री जाउनु पायकडून दवरलेल तिस्सर दिसा ताका ताणे काम करचे कम्पनीच्या, मानेजर जाउनु "प्रोमोषन" मेळेलें. हें समाचार अयकत जालेली जनानों तें निर्मलीच्या सुकृत म्ह्यूण संगताय जालीं.

पांच वर्सी बित्तेर दोग जाण चेल्लियां चेरडूवं देवान नाका दीवुनु आशीर्वाद केल्लो. गोरि, सुन्दरी निर्मलेक गोरीं, ल्हान बुरगीं. केरींत रावचीं बायलो त्या चेरडूवांक काडूक आनी मोगु करूक झगड़ताय चोवुनु मनांत आनंदीतलो निर्मली.

आदिमले चेल्लियेक तीन वर्स प्राय जाली. तिका साळेंत भरती करची प्राय जाली म्ह्यूण निर्मली. न्हा म्ह्यूण जोगी. पांच वर्सां पुरतीं जाउर्नाचल्ले साळेंत धाडूका नाका म्ह्यूण जोंगी. "इंर्गरियस" साळेंत धाडूका म्ह्यूण निर्मली. नाका

म्हूण जोगी. अंतीं सग घरकडेय चलूंचे लेकान निर्मली जय पावुली दा. सास रुप्पया "दान" दीवुंका जालें. त्या रात्ति निर्मली एक सपन दिकता जाली. तिचीदूव तिक्का "मम्मी." म्हूण उळदूचें सपन. तिचें आंग सकळेंच फुल्लेंलें. त्या साळेंत चेरडुवांनी वेळार पावुलीना जल्यार "पेनाळटी" रोकडेच दामु जाउनु दीवुंका. आवे भास उलयलार पेनाळटी दीवुंका. चेल्लेक साळेंत वेळार पावोवुंचे बगेक जोगियान एक स्कूटर रीण घेतलें.

दीस वत्ता तसी, वर्सां भोगता तसी दुस्सेरि दुव्वाय साळेंत भरती जाली. दम्माचो खर्चु चडलो. पगार चडलो ना. लगिचे घरकडे टी.वी. हाडला. जोगियाले घरकडेय टी.वी.जाउंका. घेतली रीणार. निर्मली सोन्तोसली. चेरडूवं सोन्तोसलीं.

जेवणाचे मेज घेतलें. कोणेय आयल्यार बेस्सूक सोफा सेट्टी घेतली. वोत्ताकालाक सेळ पिवुंचे बगेक "फ्रिज" घेतलें.

हें सग घेवुंच वेळार कोंकणी भासेंतूल एक म्हण्णी निर्मलेल जाओ तिच्या बामूण जोगियान जाओ एक घडियेंकर्सरि उडगास केल्लो ना. "एक्कची वेड़त्तल्यान चोवुकां नाजाल्यार जेवुंतल्यान चोवुंका". फल-रिणेली दरलांत.

रिणेली धरलांत अयलेल त्या रत्ती रीण कस्सि पुरेयतलो म्ह्ळ्ळेल चिंता कारण तो हंतूण मंचार पडून लोळनु-लोळनु रात्रि ताण्डूचे वेळार, फल्ल-फल्यार जनरलांतुलेन बायर अंत्राळींत शुक्र नक्षेत्र जोगियान देकिलें. त्या वेळार ताका एक उपाय सूचलो. जनरलांतुलेन बित्तेर एंचे शेळवारें ताच्या अंगाक लागत खेवीं ताचे दोळे दमपले.

तो कग्पनीचो मानेजर देकून ताका थंय विशिष्टाधिकार आसिले. त्या अधिकारान ताणे निर्मलीच्या नावान एर्दीच शेयर घेवुचांक थरायलें. वाराचे अंतीं जीं शेयर घेत्तलीं तीं वेपार केल्यार, कपलांतु जें लिखिलें,तें बरें जाल्यार, ऊणे पैसे रोकडेच किसांत पड़तले. ताचान ताका रीणांत सून मुक्त जावयेत.

एसे चलयले वेपारान एक मास बित्तेर रीणांत सून जोगी मुक्त जालो. देवाली दया ताचेर खूब आसली. कोणाचान हाथाक धरूक जायतनासी ताचो

वेपार वाडलो. दम्मा ऊँचार दाम जालो.जीवितांत पयले जाउनु जोगियान एक फटवण केल्ली. ताचें फल दम्मा उचांर दाम.

मानेजरालें काम सांडिलें म्हूण एर्दीच जाण सांगताय ना ताका बायर गलो म्हूण वेगळीं एर्दीच जाणं. जनपद कित्तेंय संगताय जाल्यारिय दुडुवाचे उचांर दुडु जांउका जल्यार सण्ण सग फूंकी फटवण करूका म्हूण कोणाकी कळना?

व्होळ्ळें एक घर बांदवयलें जोगियान. व्होळ्ळे घराक व्होळ्ळो अक्काडो अक्काडयात भित्तेर चडलार एक पुस्पवाटी दृस्टींत पडतली. पय-वाट गल्लेल लेकान, चोवुंकुच्या वाटेर, तण वडेयल्यां नाना परीचीं पुस्पं फुलेन राबलांय, तांच्च सुगंध नंकात चडतलें, मन आनन्दीतलें. एवुंचो अतिथि थंय सून पन्नास पवुंल दवरलार घरा दरलांत पवुंतलो. घराचे दरलांत दोन कारं पडल्यांत. एक कार जोगिया बगेक अनियेक चेरडूवांक साळेंत वच्च बगेक. घर सकळेंच "मार्रबिल" गाल्यात. उत्तर भारतांतुले देवळांत चडूची प्रतीती त्या घरांत चडलार दिसता. जनं संगूक लागलिं "भूमीर एक सर्गु आसात तरि तो ह्या घरकडे."

व्होड़ व्होड़ मनीस, थोर थोर धनी मनीस त्या घरकड एवुंचा लागले. तानीं शेयर बाजाराची चडाव आनी देवणी उल्लोउचां एत्तालीं. जोगियालो लोकु सकळोच शेयरांचे मोल्लांचेर चुरबुंटेलो.

व्होड़ मनीसं सांझ जाल्यार तांचो लाभु वा नस्ट चर्चाकरताय, तांचे सुख वा दुःख चर्चा करताय सूरा तवरण्यांत. जोगीय. त्या चर्चेंत, भागु गेवुंचा लागलो. रात्ति, मद-राति घरकड परतून एत्तण पाय खल्लाक लगूर्नातल्लें हालून धोलून एंचाक लागलो. सुन्दरी निर्मलेन समझायलो. सासा उंचार सास रुप्याचें लेक्कांत गुसपसलें जोगिसाचें मन त्या उतरं आयकूक कान दी नाजालें. गावांतुले देवळांत मरामत. कोयलूंव निकळावुन उसळायताय आनी थंय तांब्या तगड मारताय. त्या बगेक दुडु जाय. त्या यत्नाचो शुभारंभु जोगियान पांच लक्षु रुप्पया दीवुनु कोरिलो. ताचें नांव त्या देवळाचे गोपुराचे पगरार पयलें नांव जाउनु, तानीं लिहिलें. तें देकून, एन.वै. प्रभु, ह्या नावान अतं जोगी जनां मद्धें जाण जाता, सोन्तोसलो.

एक दीसा, जोगी घरकड परतून एवुचांक मद-राति जलि. जेवुचांक बेसलो जोगी कोपलो. तोय्यांक मीट चडलें म्ह्यूण ताका दिसले, निर्मलेन सांगलें, "तें तुग्मी पीवुनु-अयिले देकून तोण्डाक रुंच कळ-ना" म्ह्यूण. कणसलार तवळी पडलो एकु. अयदनं कडून ताणे सोडून बिन्दीलीं. आदी रत्ती जाग जलेलीं चेरडुवं भिथेवुनु बोबा गालताय जालीं.

शेयर बाजार, मत्तें उपराटें जाउनु गड़गडेन पडलें. मस्त जाण मनीसं फूट जालीं. त्यालेक्कॉत जोगीय पडलो. "दोनी चारी दिर्सी भित्तेर एकसाधु मनिसाक पालक्कें त भोवुंडायता तूं देवा, रवुळारांत रावचे रायाचे हातांतु भीख मागूचें करटें दित्तायीय तूंची देवा" म्ह्यण्णी कितुलें बाद्ध. रीणेल्यार्नी जोंगियोलें घर, कांर, अन्य समप्पत्ती सग जप्त केल्ली.

उप्पासान गोरी, सुंदरी, निर्मली सूकली. तोण्डार जरा चडली. चेरडूवांचे देह सूकलें-पोट मात व्होड दिसता, काळकोय अयलेल चेरडुवांचे लेकान.

सूरा तवरण्यांत सूर मारूक जोडलले मित्र आज देकूक नायं. ते जोगियाक सांडून नवे मित्रांक सोदून गेले. फाटले जीवितांत उपकार घेतले मनीस आज गोंटो गुवुंडान वत्ताय. एक भाडें कूड़ काडूणजोगी थंय रावलो.

एक आयतारा कुला देवाक पांय पडूक गावांत गेलो. देवळाचे गोपुराचेर लिहिल्लें नांव ताका चोवुनु परिहास करता दिसून, देवळांत सून तो वोगी घरकड परतोलो. वापस शरांत अयलो. आपुले भाडेच्या कूडांत एवुनु मंदुरेर पडलो.दीसु सांझ जाली-राती जाली. ताचे चेरडूंवाचें तोण्ड देकिले, बायिलेचें तोण्ड देकिलें, ताका मंतुरेर पडूक आसली तान ऊणे जाली तो चोगो काडून गालनु बायर सरलो.

चलून चलून तो हारबर संकवार पावुलो. राति. सेळ सेळ वारें मारता. संकवार लम्बेयलले "इलक्ट्रीक" दिवेच्या उचवाडांत तो खालाक बावगून चोयलो. खाल न्हंय शांत जाउनु व्होळता. "अत्तं उड्डी मारल्यार फाय माझें मोडें अळुव्या तोण्डार पोवुनु भोवुंतलें. खंचेय खारवी तें मडें वोडून तीरीं हाडतलीं. निर्मलेक कळतलें. चेरडूवांक कळतलें. तीं एक दिसा, दोन दिस्सांक रडूक पूरोय. निर्मलेक तिगेल बप्पूस उळदून व्हरतलो. लगी चेरडूवांकय". मन

एक सेळ जालें. ताचे तोण्डार शांतता देकूक अयली. उदकांत उड्डी मारूक तो त्या संकवाचे बाणियेर चडलो.

खत्तंयकी एक सम्मेळनाक वचून परततालो इस्टु टी.एम. "आटोरिक्षाचेर" एत्तालो. एकमनीस न्हंयतु उड्डीमारूक बाणियेचेर रावला ताणे देकिलो. ताणे "आटोरिक्षा" राबवेयलें. देवलो बायर, आनी उड्डी मारूक वच्या त्या मनिसाक बाणिधर सून ओड्डून खालाक हाडून रिक्षांत चडयलो. तो मनीस एक कोंकणो म्ह्नूण टि. एम्माक मनांत जालें.

टि. एम्मान ताका अपणाल घरकड वेलो. पोट भरनु जेवयिलो. आनीक निद्धेवुचाक एक मांदुरी दिल्ली आनी सांगलें "अत्तं तूं निद्धे, अंका फाय उल्लोवुं".

हेरदूसा चेरळायेंत रावचो रंगणीमामाक उळदून हाडूक टि.एम्मान आळाक धाडिलो.

रंगणीमाम एक समाज सेवक. रंगणिमाम ह्या शरांत रावचे, एक प्रदेशाचे, सर्व मनिसांकय, कळचे नांव. फाटल्या एक कालाक गांवात म्हारोग लागून मनिसां लेक नत्तिल्लें मरनु भूमीचेर पडचे त्या कालाक मनिसाचे मडें वावुनु वोरनु दाहु करूक, लासूक ऑतिम संस्कार करूक कोण मुकार सरनाय, कारण समाजांत सून एक वेळे बायर घालतर्ली, त्याकालाक सूर्य देवाले तेजस सरिके उदेलो रंगणीमाम मनीससगळेच एक कुलाची म्ह्यूण लेकचे ताका ह्या समाज म्ह्यूण जाओ अन्य समाज म्ह्यूण जाओ म्हळ्ळेल भेदु ना त्या कारण ताका समाजांत सून भायर घालतली म्हळ्ळेल भय नासिलें ताणे मेल्लेल मनिसांक, आपुले खंद्यार वावुनु व्हीरनु संस्कार करूक लागलो. त्या निमित्तान त्या रंगाणिमामाक समाजांतुले प्रमाणी मनिसांनी "कुण्बी" म्हळ्ळेल नावान परिहास करूक लागर्ली. टी.एम. त्या कालासून रंगणिमामाक वळखता. रंगाणिमामाले सिवणी अंगडी मुक्कार, एक अंगडी बैसून टी.एम. बीडी बान्दूचें दंद करितालो. तास्सि तार्नी एकमिकाक चांग रीतीन वळखतायवो.

सकळींच रंगणीमाम हाजिर.

अरे शेणाय, हो शंणेय उदकांत उड्डी मारनु मोरूक वत्तालो. हावें ताण्डून हाडिलो ताका. तूं कित्तें समाचार म्ह्णून हाचालगि विचारी. टी. एम्माक कोंकणो म्ह्ल्ळ्यार शेणाय. पै शेणाय, किणी. मल्या सग ताका शेणाय.

वर्तललें इतुकेय ज़ोगियान रंगणिमामा लगी संगीलें. तोण्णांत एक बीडी लाउनु, ताजो दुवोर आस्वादून टी.एम. ताजे कान आनी मन, जोंगियाले उतरांचेर.

टी. एम्मान रंगाणिमामाक कूडांत भित्तेर उळदून वेल्लो आनी सांगलें. "तूं हाका एक काम जाओ वेपार जाओ सोदून दी. जें हांव करूका म्ह्यूण रंगोण्या तुका दिसता तें तूं माका जाणेय"

रंगणिमाम जोंगियाकेय घेवुनु घरकडे परतलो. घरकडे एवुनु रंगाणिमामान निर्मलेक धाडिली. आनीक जें वर्तललें तें इतुकेय तिकाय संगून मनाँत करिलें. आनीक तिका धैर्य दिलें.

रंगणिमामान देवळाचेलगी एक सानी अंगडी सोदून भाड्याक काडली आनिक थैंय फुल्लाचो वेपार शुरुवात करूक असिलो दाम एक्कड़ करून दिलो. आनी जोगियाक आशीरवाद करून सांगलें. "पुत्तो, धनाची उत्पत्ति काम जें चलता ताचेर निर्भर-काम चलतण साधन साम्रग्रीचें उत्पादन जाता. दुड्डु एक माध्यवर्ती. साधनसामग्री ना तरि दुडुवाक कित्तें करूक जतालें. दुडुवाकमोल ना जत्तलें. साधन सामग्री चड़ जाउंका जल्यार काम करूका. दंद करूका. दंद, करून मेळचे नाजल्यार करचे दुडुवाक बल चड़. केदणाय काम करून खवुचांक देव तुका बळ दीवो. बरेंकरो."

फुल्लाचो वेपार, देवाचे दयेन, थोर जाउनु जउंचाक लगलो. जोंगियाले घरकड दुस्सेर आनदांची झाड़ फुल्लेंउंचा लागलीं.

एक दिसा जोगी अपणाले घरकड़चे देवाकूडांत दोन मनिसांलें चित्र, देवा चित्रा लगी लाम्बेयता देकून ताचे दुवेन हें कोणालीं चित्रं म्ह्यूण निवुंगीलें.

माका विस्रूक जाउनतिल्ले दोग जाण मनिसालें चित्रं. देवा समान तीं तांच्या मनिसेपणान. एक टी. एम्मालें आनी एक रंगणी मामालें.

कथा

# गोळडन शॅर

**प्रो. के. आर. वसंत मणी**
आलपुषा केरळ

"**वी**सावे तारीखेक  सांजवेळ चार वरांर, श्यामाले भुरग्यालें नामकरण म्हूण भावोजीले पत्र  आसा. एवंका म्हूण आमंत्रण केल्यां!", बायलेन सांगलें, साडूलें पत्र म्हणटाणा हांव स्थब्द  जालो. चार-पांच वर्ष जाता, तीका अकान जावो भावोजीन जावो पत्र बरॉवनु. व्हरडीकेंचे फूडे  अका-भयण, परवेंचे जोडतां आसलेलीं म्हूणतां बायल दावो लायता. आजतांय म्हाका तशी दिसलेलें ना. आमी साडे कारण भयणांचे मदें स्पर्दा वाडली म्हूणतां तीणे सांगचें. अकालो पूत बाल, एम.डी.करता. घकली धूव श्यामाक, साडूलो भाचो अजयान तां व्हरडीक केल्या. आमकां एक धूव मीरा मात्र तां आसा. ती बामणाचे ओट्टु दिल्ली रावता. तीजे लग्लनाक लागून, आमचे मदें एक मतभेद वाडून आयलो! पत्र बरवप, पारस्परीक भेंट, सगट रावलें. उपचारीकते खातीर वर्षाक दोन-तीन फावटी फोण करपार रावली सोयरीक! पांच वर्षी तां श्यामाक एक चर्डु जाता.जाल्यारिय ती गर्भेस्त म्हूण आमकां कोणूय खबर दिल्लेलें ना. नामकरणाक आमंत्रण केल्लें म्ह्ळेलेंच म्ह्नवाचें!

नामकरणाक वचका नाका म्हूण आंमचे मदें दीर्ग चर्चा जाली. म्ह्लगाड्यांले अडचणंत चेर्डुवांक घालका नाका म्ह्ळ्ळेल्यान, बर्त्त म्हेळयार वचें म्हूण लेखलें. भाग्यान आमकां बर्त म्ह्ळळें. अकाक फोण करून वीसावे तारीख सकाळ आमी मद्रास पावंतांत म्हूण सांगलें

चेर्डाल खातीर एक पोवनाची सरपळी आनी अर्द पोवनाचे कांकण घेतलें. चार वर्षां उपरांत अकाले घरल्याक वता देखून कितेंय सगट घेवन वचका म्ह्णटा.तीस-पांतीस नालल, जीवे आंबे, चींच, तेर्यांचे पान ह्यें-तें सगट जावंनु दोन कार्टन भरून बन्दून काडळें. अकाले खातीर तीन "कोटण साडी" लागी घेवंचाकतां तीका समाधान जालें. खूब रुप्या खर्चले, खोशीचे खातीर!

"हांव एक शेजार घरल्याक वचून, अकाले नात्वाले नामकरणाक वतांत म्हूण सांगून एतां" म्हूण बायल देवली. अकाक पळोपाकवता देखून ती भूयंचेर न्हय आसा. भवंडां कोणूय नाशिले म्हाका कळतावे भवंडांक मेळचो आनंद!

ट्रेनार बायलेक सभार मित्रां मेळ्ळीं. तीर्णी तोंड धांपनाशिलें किरकिर करतांत. हांव ऊंचावले बर्त्तार चडून पडळो. सकाळ सात वरार मद्रास सेन्ट्रल स्टेशन पावलीं. सगळ प्लाटफां सोदलें. आमकां येवकार दिवपाक कोणूय ना. हतांत पत्तो आसा. एकेक दीस बदलचें तोंडतां मद्रासाचे. बराबर वाट कळनाशिलें आटोर चडळ्यार सगल्या वाटांनी वरतले! कितें करचें?टी. नगर पावंका. आटो धरलें. अर्द घंडे जावंचाक साडूलें स्ट्रीटांत आटो पावलें. सतर रुप्या चार्ज जालें. कालिंग बेल मरतणा अकान कवड काडळें.

"फोण केल्लेलें तरी, भावोजी कार हाडतलो आसलोलो म्हूं? फोण आयलेलें ना देखून ट्रेन लेट्ट म्हूण आमी लेखलें!"

"व्हडना आमकां वाट कळता न्हयेवे?" म्ह्यून हांवे कार्टणां काडून भितर दवरीलिं. साडू देवाक पूजा करतातं.

"भावोजी पूजा जावून उठावंचाक अर्द घांटो धरतलो. तुमी हात-पाय धूवंनु चाय पिय्याय" म्हूण अकान सांगले.

बायल वचून चेर्डांक काडून आयली. "चन्द आसा" म्हणून ताका म्हाजे हतांत दिलें. हांवे काडळेलेंय, गोमडेक धरून चिर्डिलले लेखान ताणे बोबाळ घाली. ताकाय कळता आसा, ताजे अब्बोलो शत्रुतां आयला म्हूण!

"धाकलो आबुरे पुतो. रोडनाका" म्ह्ळयार तो व्हडान रडता आसा. हांवे ताका श्यामाक अपोवनु दिलो.

हांव चाय पिवन बसताणा, साडू आरती घेवनु एकेक कुडांत वता, आनी खंय खंय देवाले फोटोचे कलंडर आसा, ताका आरती दखयता! जनरला लागी राबून भायरचे माडे आनी रुकांक आरती करता. ह्यें देखून म्हाका हास आयलो. देव सर्वव्यापी देखून कांय सोडनाशिलें तो प्रार्थन करता जावयात! एकेक मनिसाली भक्ती एकेक रूपान! गायत्री जपन करून साडे आट वरार साडू आयलो आनी सांगले.

"णव वरां धरून, दोन घंटे करंट कट्टतां. हून उदक जाय तरी आतां न्हावंचें बरे आसतात."

"म्हाका हून उदक जाय म्हूण ना. एक रेस्त काडतां. न्हाण देनपारतां"

साडू नास्तो करपाक गेलो. दोळे धांपून येताणा बायल आयली आनी सागलें-

अजयाक रजा ना देखून तो दनपारां तां पावंतलो. भावोजी आनी भयणा मदें उत्राक उत्र ना. देण आनी जायें विशी झगडें मरलें. ती पुताले ओट्टु तां पावंतली. बालु एकलो धावंन भोवंन सगट करतातं. तो उठायलोलो ना.संजे शेंबर सोयरे पाट्रीक आसा. खाण करूक रंदपी आसा. आमी आयलीं देखून अकाक व्हड संतोषतां! आमकां जावंचा सहकार दिवंचे.

बायलेन सांगचें आयकलें. म्हाका जवाब दिवंपाक ना. बोटान मेजचे संबंदीतां आसा. कोणूय कोणाक वायट केल्लेलें ना.जाल्यार एकामेकांभितर आपलेपण ना!

नास्तो करून,पुताक जागोवंचक जावंनाशिलें साडू कोपान भायर आयलो.

"एक देवळांत वचून एता" म्हूणून तो चमकलो. थोंडे वेळ जावंचाक बालु उठावंन आयलो.

"सोरी अप्पप्पा.न्हीदेतणा फलें जाल्लेलें. तें तां उठावंचाक वेळ जालो. हांव बात रूमांत वचून एता. नास्तो करय्या".

नास्तेचें उपरांत आमी एकेक उलोवन बसतणा साडू देवळांत सून परतून आयलो. भयणो वसरेंत रन्दतांत. बाय ल्हान भुरग्याक न्हाणेता. बालू सोयरांक खाण दिवंपाक तयारी करोवचे खातीर टेरसार गेलो. रूमांत आमी साडे मात्र जाले.

गवंचे खबर पूराय जातणा म्हाजे सेवा-निवृत्तीर एवंन रावले.

"केन्ना कि तूं रिटयर जाता? मुखावलें प्ळान कितें?"-साडू.

"मार्च एकतीसतां डेट्ट. तेंतीस वर्ष काम केलें. आनी धंद कांय करचें ना. मेळचे पेन्शन घेवंन आरामार दीस कडचें." - हांव

"निवृत्त जातणा कितलें फायदो आसा?"-साडू

"आफिसांत सांगलेले थळार सगट पेन्शन पुस्तकार दस्तकत केले नंताणा हांवे गणटी केल्लेलें ना. फायदो ए.जी.आफिसांत गण्टी करतले. चार म्हायने आनीकय आस न्हयवे? पांच - साडेपांच हजार रुप्या मेळयात. बराबर कळनां.

म्हाजेर विश्वास नाशिलें, ताणी म्हाजे बायलेक अपोवनु निमगीलें.तीणी म्हळ्ळें-

"भावोजी, हांकां सालरी कितली म्हूण कळना. मागीर वे पेन्शन फायदो?"

"चार-पांच लाख आसका?" -साडू.

"आसायात म्हारय्या म्हाका कळना. आंताच कित्या मातें हून करका?"-हांव.

"दुडु कितें करचाक वता? कार बी घेतावे?"

"ना बाबा ना. ह्ये म्हातार पिरायेर आमकां कार नाका. पोस्टल एम.ऐ.एस. काडचें म्हूण आसा. मस मास मेळचे 'इन्ट्रस्ट' खरचाक जातलें."

"एम.ऐ.एसार घालनाशिलें शँर काडळयार चड लाव आसा." म्ह्यूणून साडू एक पुस्तक घेवंन आयलो. शँरा सून सभार कळाकळी दिल्ली. आमी आयकून बसलीं.

"हांव तुमकां चारशें गोळडन शँरां भेट दितातां!" म्हूण ताणी म्ह्णटणा हांव स्टंट जालो!

आमकां भेट नाका म्हारय्या! देवाले बरेपणान आमकां जाय तितलो दाम आसा. तुमचे जांवय मनिसाक दिय्या आमकां नाका.

जावंयाक दिवंका कि नाका म्ह्ळ्ळेले म्हाका सोडचें. तुमकां चारशें शँर दिवंपाक हांवे निर्णय काडून जालो! वीस प्रतिशत लाव मेळचें गोळडन शँर तां. एक शँराक 750 रुप्पया मोल आसा. गोळडन शँरतां नाका म्हणचें ना!-साडू.

"म्हारय्या, आजतांय हांवे कोणालागी कांय मुक्त घेतलेलें. ना. म्हाका जबरदस्ती करनयें" - हांव.

ह्यें आयकतणा, साडू व्हडान हसता आनी-

मुफत? 750 रुप्या मोलादिक 400 शँरां तुका मुफ्त दिवपाक हांव पिसो वे? तूं रिटयर जावंचे खोशीन 400 गोळडन शँरां भेट दिता म्हूण हांव तुका बरोवंन दितलो. तूंवे म्हाका शँरां मेळ्ळीं म्हूण रसीती आनी तीन लाख रुप्याची डी.डी. दीवंका! डी.डी. मेळटणा शँरां तुजे नावार ट्रानस्फर करून दितलो! म्हाका टाक्स लाव आसता. तूका वीस प्रतिशत डिविडंट मेळटलें! जांवय म्हाक मोल दितलोवे? आतां घर बंदपाक रुप्या जावंका देखून मात्रा शँरां दितातं!"

आतां साडूलो हावेस कितें म्हूण म्हाका कळ्ळें. ह्यें मनांत दवरून जावयात ताणी आमकां नामकरणाक आमंत्रण केल्लेलें. ताजे मनांतलें सगट भायर काडुया म्हूण हांवे निमगलें.

"एक शँराचे मूळावें मोल कितें?"

"मूळावें मोल धा रुप्यातां. 'मारकट वाल्यू' आतां 800 रुपया आसा. तुका 750 रुप्याक दितातां म्हणून ताणी न्यूस पेपर काडून दखेयलें.

ह्यें आयकतणा म्हाकातां हास आयलोलो. भायर दाखवनाशिलें हांवे सांगलें-

"म्हारय्या तूं बुदवंततां! 400 शँरां मूळाचे मोल 4000 रुपया. हांवे तीन लाख रुप्या तुका दिताणा, तूं म्हाका 4000 रुप्याचें पुकुमेंत दितलो! तीन लाख रुप्या बाँकांत धाल्यार म्हाका उण्यांत उणें तीस हजार रुप्या इन्ट्रस्ट मेळटलें! तुका दिल्यार 800 रुपया डिविडंट मेळटलें! बरे आसा!"

"आतांचे लेख केल्यार जावंना. दिस दीसा मोल चडचें गोळडन शँरतां दोन वर्ष भीतर देड-दोन हजार रुप्या 'मार्कट वाल्यू' मेळचें शँरतां! आतां म्हाका गरज देखून दितातं. मागीर दिवंना!"

"म्हाराय्या, तुजे खोशी खातीर, हांवे रिटयरमेन्ट बेनफिट सगळ त्याग करका म्हळयार जातलेंवे? तूं करतलो किते जाल्यारीय म्हाका तुजें गोळडन शँरां नाका!"

बायल सगट आयकून बसल्या नांताणा कांय सांगचाक जायना. खर शब्दान शँरां नाका म्ह्णचाक, साडू कोपान कुडकुडेता.

"आजतांय तुमचे निमित म्हाका एक दुडवाचो उपकार जालोलो ना. आपलेपण नाशिलो मनीस. कसलो सोयरो आनी संबन्दी? तुका सुवार्थ मात्र तां आसा. दूसरे मनिसांक बरेपण करचें म्हूण ना!.... साडू एकेक सांगता आसा. अका आनी बालू ताका थंड करचाक चोयताण, तो चड-चड हून जाता. कोपान ताणी अकाक एक थापट दिल्लें!

आनी थंय रावल्यार ताका तांडून दोन दीवंका जातलें. म्हाजें संयम सोडतातं.

"देखलेवें तुजे भावोजीले आचरण? उठा! नामकरण तीं चमकोवंय! जायें श्यामाक दीवंन, बेगीन यो" म्हणून हांव भायर देवलो. ती खोस नासून रावल्या देखून. उठावंन यो गों" म्हणून हांवे तीजो हात धरून तांण्डलो!

"अय्यो, चोर, चोर" म्हणून गोंदळ घालून बायल जाग जावंचाक, तीचो हात तांडून हांव कितेंय सांगता आसा. तीका कोपूय दुःख्य जालें. म्हाका जागोवंन,

"कसलेंय सपन पळोवंनु कित्याक तुमी म्हजो जीव काडतांत?" म्हणून ती घूवंनु पडळी.

पाप बायल! तीजो हात दुखलोलो आसा. कसलें सपन म्हूण सांगलें तरी मनय दुखतलें. भावोजी आनी अकाली मोगा भयणतां ती! उलोनाशिलें रावचें.



कविता

# मा निषादा

आर.एस. भास्कर

अह्ये
वळवंत उतरांनो
येयात-
तुमी म्हज्या वांगडा रावात.
हो भूगोळ अशींच
हांव हालोवपाक सोदतां
जे हांगा हिंसा वावुरतात
सगट भियेवन थांबूक जाय.
जे हांगा दुष्टबळ हाताळटात
सगट निकळून पडूंक जाय.
देखून हांव
भायर सरतां
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अह्ये
बळवंत उतरांनो.

घोर रानांत
वाळते माल्ल्यांत
इतलो वेळ
जपून बसलों-
राम राम
म्हणून बसलों-
कोणे तरी
माल्लें कोसळायलें

आनी म्हाका
उस्वास भोगला
हांव आतां
भायर सरतां
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अह्रे
बळवंत उतरांनो.

सुरवेकच पळ्यलें
पाप सवणें
बाण तोपून
सकल पडलें-
रगत व्हावंत
तळमळेवन मेलें.
मागीर कितलिशीच
जाता हिंसा-
सारो वीवा
सुळार लांबलो
गळो चिरडून
पेडपेडेवन मेलो.

जे हांगा हिंसा वावुरतात
सगट भियेवन थांबूक जाय
जे हांगा दुष्टबळ हाताळटात
सगट निकळून पडूंक जाय.
देखून हांव
भायर सरतां-
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अह्रे
बळवंत उतरांनो.

कविता

# रेषन

## पी.एन. शिवानन्द शेणै

खंय कीं थाकून
एक चेरडालें
भुकेल्लें रण्णें
मेगेले कानारी पडताच आसा.
रेषना खातीरी क्यूवारी राबिल्लों हांव-
वारें भितरचे गिमाक चडोवंचे
ये दिनांद्यांतू
उपाशीं पडचे इतूले कीं
कुडुबाँची चित्रं चित्रपट पुस्तकांतू
निश्चल जाताच आसय.
रेषना खातीरी क्यूवारी आसा हांव-
भुकेवनु चेरडालें रण्णें
मागीरीय मेगेले कानारी पोणू
भितरी वोचूनू मनाक घायू घालताच असा.
एक कालाकय दूद येवनतीले स्तनाचे
पुरूष जन्मा शापान
हांव लजेवनु
सानू जाताच आसा.
रेषना खातीरी क्यूवारी आसा हांव-
क्यूवांतूले अंतिम व्यक्तीक लगेन
हांव समजतां,
तागेलें दुःखय
फुटल्लें स्वप्नय

भुकेल्लें पोटय
उब्बारलेलीं हाडांय
भितरी पावलेले दोळेय
सुकून गेल्लेली जीबय
तोंडारी थाकून देवनु गेल्लेलें ऐश्वर्यय
माका समजताच आसा.
रेषना खातीरी क्यूवारी राबिल्ले
मेगेले कानारी भुकेल्ले चेरडालें रण्णें
पडताच आसा.
सगटाकय मोल चडता
म्होणु कानारी पडतना
आस्वासान मन सांगता
रेषन विना हांव कितें घेता?
ना.... कांय ना.
मोल चडता सगटाकय जल्यारी
रेषना खातीरी क्यूवारी राबिल्ले
मेगेलें मोल तं ऊणें जाताय
चेरडालें रण्णें
मगीरीय
मेगेले कानारीपडता-
तेन्ना,
चरचरचें
चकचकचें
जरजरचें
मनीषपण
रेषन जाता...



कथा

# रंगणमाम

## सुरेश ए. शेणै

"**अरे** रमेशा, तूवें आँवगाले पूरा काणु दवर्लवें?"

"रामा, तुज्जे लागी कसलेंचि सांगचा पशी स्वता कोर्चे चाँग। इतुलो वेळु जालो त्यो इडल्यो आनी चटनी काणु दवरी म्हणु साँगताँ!"

"सुशीले, तुग्गेलोकाणीकेचो कोरण्डो कळावे?

तिरुपती मोल्यारि पाँवतना उडगासु कोर्नु कसल्याक!

रंगणमाम एकेक जनॉक निर्देशु दित्ता अस्सा तें ताँगेलो अभ्यासु अस्स। इतुले तय्यारी जाल्यारींयि, पूरा जाव्न, टेम्पोरी चोणु बैसू थाँयि तें चलतलें। रंगणमाम, बायल, चेर्डूवँ आनी चाये अंगर्डीतुले कामाचे पूरा मेळनु तिरुपती दर्शनाक भायर सरताय त। ह्ये पावटी थोडे परिवर्तन अस्स। म्हळयारि, परत एत्तना मधुरा, रामेश्वर वाटेन कन्याकुमारी आनी तिरुवनन्तपुरम लागी वच्चाक तय्यारी केल्या। परत एँवचे वाटेरी आलपळे देवनु बायलेले आवसूकयि पळोंवचाक अस्स, सुमार काल जाव्नु अस्सिलो आग्रहु त।जाल्यारी अंगडीन्तुले व्यारु जाव्नु फुरसत मेळका नक्का वे। ह्ये वर्षा सात दिस्साँक अंगडी दाम्पूनु घालूकचि रंगणमामान निधयु केल्ला। सीपी लागी टेम्पोयि साँगीला। आनी सात दिस्साँक भारी खुशी आसता। गींत की, भजन की, खुशालि उलवप की-वाटेरी पूरा गम्मत असतलें। सुरुवे दिस्साक जॉव्का जालेलें खाण खूब आसा। मधें खॉवचाक केळाचे बाळूक, रोंटी, कोरो अस्सी पूरा काडूक अस्स। जनाँ पशी चड सामान अस्स। दिकूनु रंगणमामान उज्जा भाँडीरि यात्रेक वचप नाँ।

रंगणमामाक जीवितान्तु सकळे विषयान्तु एकु क्रमु अस्स।कोर्चे काम आत्मार्थ जाव्नु कोरर्का अस्सी रंगमामालो स्वभावु।

कोची गावान्तु "अंगडी मैतरान्तु" चाँग जाव्नु चलूनु एँवचे चाये अंगडी त

रंगणमामाक। साकाणीचे, इडली आनी साँबार खाँवचाक खँयि खँयि थाकून जन एत्तायि म्हणु साँगूक जायना। सुमार फन्ता जायते जनाँक निराश पावनु परतूका पडप अस्स-इडली सरली दिकूनु। इडली म्हळयारि कप्पूस, सी। एकल्यान बेसले बिरपाक बीस इडली खेल्यारि तन्तु आश्चर्य ना। साँबार अंगडीन्तु तैय्यार ज़ाल्यार सात मैल दूरा कळतलें - तितूलो अस्स तज्जो पोरमोळु। चाय जावो कापी जावो, रंगणमामाले अंगडीन्तुले जल्यारी तज्जी रूची वेगळीचि त। दा वराँ थाकूनु तेळेलें पक्वँ तय्यार जत्तलीं। उडता अंबाडो रंगणमामाले अंगडीन्तु खाँवका। बोट चाबून वत्तलें। देनपाराँ एकु घंटो म्हणु अस्स जाल्यारि रंगणमामाली अंगडी बन्ध। मागीरि चार वरारी, थरा थरा पोळे सहित अंगडी उधारि जत्तली। ह्यो व्यारु रात्री आट घंटो थाँयि आसतलो। पाँच-स कामाचे अस्सयि। जाल्यारि अडकळयान्तु बायल सुशील त चोब्नु कर्त्तली। पूतु अनिल अट्टान्तु आनी दूव आनिता सत्तान्तु सिखतायि। रंगणमामाली आवसु केदनाँयि रामायण की भागवत की वाचूनु वेळु काडता. न्वी वर्षांचरीयि शारदमाँयेक एक कम्यूटराचे उडगासु त। दोळयानि दिस्सना जाल्यारीयि, शब्दु आयकूनु ती पूरा जनाले वळकी काडतली। अंगडीचे मागल्यान त घर। एक सन्तुष्ट कुडुम्ब। सन्तुष्ट कामाचे। खाँयि वत्तनायि तन्नी ओट्टु वच्चें। मासाकएक वेळयारी वच्चे सिनेमाक जाल्यारीयि. देवस्थानान्तु उत्सवाक जाल्यारीयि तन्नी एक मेळनु वच्चें। यजमान आनी कामाचे म्हणु फरख ना हाँगा। कामाचाँक मैनेक पैसे काँयि नक्का। ताँका खर्चु काँयि ना दिकूनूचि, पूरा कामाचाँक बैंकान्तु खूब दुडु आस्सा। वर्षा एक वेळयारी भोंवचाक वच्चा अस्सा. खरचू रंगणमामूचि काडतलो। रंगमामाक बालाव अभ्यासु म्हणचाक मात्र एक सिगरट ओडूचे आनी रात्री एक ग्लास सूरू पींवचे। जाल्यारी तें दोनी ग्लास जाँव्चाक ना-खंडित।

लोटरी पैयान निर्बन्ध साँगतना वळकीचे पैय्याक वायट दिस्सूका नक्का म्हणु लेकूनु त रंगणमामान लोटरीटिकट घेंवचाक सुरू केलेलें। साकाणीचि वेंकटाचलपती देवस्थानान्तु वच्चे अभ्यासु अस्स रंगणमामाक। परत एत्तना दूर थाकूनु आयकूक पडतलें- "लोटरी टिकट-अन्जू लक्षवुम कारुम। लोटरी टिकट-घेत्तल्याली जाणकारी बोरोवनु दोवोर्चाक अस्स पैय्यान। सान पाँच रुपया

प्रैस मेळ्यारीयि पूरा जनाक जाणोंव्चाक अस्स पैय्यान। दिकुनूंचि पैय्यालागी टिकट घेंन्वचाक व्होड तात्पर्य अस्स जनाँक। अंवसरा भरसी आम्मी विसरल्या जाल्यारींयि पै एवनु जाणेयतलो।

तस्सीत होळी बम्पराचे तेरा लक्ष रुपयाचे प्रथम प्रैस रंगणमामाक लागाल्यॉं म्हुणु रंगणमामाले पशि पुरतम गावान्तुले जनाक कळेलें। तें दिस्सा पूरा जनाँक रंगणमामाक मेळेलेलाटरी पसून मात्र त उलोवपाक अस्सीलें। रंगणमामाक विश्वासु पॉवचाक जायना। तेरा लक्षु रुपया! कसलें कोर्चे ह्ये रुपयान!! स्वस्थ जाव्नु व्यारु कोर्नु सुखान जीवन करताले रंगणमामाले जीवितान्तु एक व्होडु दुर्योगाचं प्रारम्भु जालों ह्यी लोटरी।

पैय्याकयि व्होड दुःख जालें। सुरवेकेंचि एक टिकट रंगणमामाक दिल्लेलें त। बम्पर लोटरी दिकून टिकटाचे मोल बीस रुपया आसीलें आनी हेरदीसा खेळचे लोटरी चे चालीस टिकटें वरलीं। पै रात्री सुमार वेळु थाँयि भोवलो, आनीकयि पन्द्र टिकटें वरलीं। तीं विकीलना जाल्यारि तीनसें रुपया नष्टावु जातोलो। साडे नव जावनूयिं पै बायर ऍवचाक तेंचि कारण। रंगणमामाक निर्बन्धु कोर्नु पैयान एक टिकट काडेयलें। लागी दिस्सा काकत पळेयल्यॉं की पैयाक भारी दुःख दिस्सलें। ताणे रात्री बिकीले टिकटाक प्रथम प्रैस-तेरा लक्षु रुपया। देवा तें टिकट आपण्याले हाथान्तु आसिलें जाल्यारी!!

रंगणमामाक कष्ट जाले। कसलें कोर्चे ह्ये रुपयान। एक नक्षत्र होटल प्रारम्भु कोर्या म्ह्ळ्यारी हॉंगा तजे आवश्य ना। ऊणे जागो घेंवया म्हळ्यारि नका, जाग्याचे मोल चड़ जायना। अस्सी उपदेश सौजन्य जाव्नु दिंवचाक जन सुमार। षेयरान्तु दुड्डु घलचे विषयान्तु षेयर ब्रोकर मल्लमामाक कॉंयि संशयु ना। दोनी दिस्सीं दा लक्षु बीस जल्ला म्ह्णु मल्लमाम समर्थन कोरूक लागलो, प्रमाण सहित! कसलेंयि चाँग कार्य कोर्चे म्हणु रंगणमामालो लगीचो स्नेहित माणिकमामान साँगिलें। एक चार लक्ष रुपया अस्स जाल्यारी देवस्थानान्तु एकु मण्टोवु घालयात। तो पूर्वीकाँगेलो आग्रहु अस्सीलो तका तात्री धडी घालनु दवरल्या। तें केल्यारि पूरा जनाँक पावसु-ओत खावनत्तीलें जेवण कोरूक

जातलें। व्हयि नवें, ह्यें रंगणमामाले बायलेकयि चाँग म्हणु दिसलें।रंगणमामान पाँच लक्ष तका खर्चीले। देवस्थानान्तु भंगरा गुरडा पूजायि केली। ददल्याँक बायलॉक संप्रादण जाली। रंगणमामाले पेरान्तु बैसूनु जनानी जेवण केल्लें आनी ताँका वाँकाँणसीलें।

कितेंयि जावो ह्ये लोटरीन रंगणमामाले पूरा निष्टा खलास केल्ली। लोटरीचे दुडु खर्चु कोर्चे प्रयासान अंगडीन्तु खर्चूचे लेक गुसपलें। अंगडी अनाथ जाली, कोर्चे. पक्वाँचे स्वाद पूरा घेल्लें। रंगणमामाक स्वस्थता म्हळेली ना जाली। यूको बेंकान्तुलो रवी, सिंडिकेट बैंकान्तुलो कामतमाम, पूरा मगल्यान अस्सयि, मधें एक जागो व्यारु केल्लो रंगणमामान 1 स्वल्प भीत्तरी जाव्नु त स्थायु। जाल्यारि एक सेन्टाक पन्नास सासु मणतना रंगणमाम भाग्यवन्त म्हणु जनान साँगिलें। कित्या म्हळ्यारि थाँगा जागाक अस्सीं सासु थाकून एक लक्ष थाँयि मोल अस्स। खपीन जालेलेहो परिवर्तन रंगणमामाक एक लेका पिस्सो केल्लो। रंगणमामाक ह्यें पूरा चाँग दिसलें। आपण भाग्यवन्त।आनीक्यि भाग्य एँवचाक नावें मक्का? रंगणमामान पैय्यालगि शंबरी टिकटाँचो पुस्तक घेंवचाक प्रारम्भु केल्लो। केरळा मात्र जाल्यारि कस्सी।ताणे गोवा, महाराष्ट्रा आन्ध्रा अस्सी पूरा राजाचे टिकटें घेंवचाक शुरू केलें। विजया लोटरी लागी, नारायणमामा लागी अस्सी लोटरी घेंवचाक लगलो, लोटरीचे प्रभावान्तु आजी थांयि ना आसिले बन्धू बान्धव पूरा तगतगेलो वाण्टो घेवंचाक पावले। तेरा लक्ष सोरूक तेरा मैने जाँव्का पळेना। पेटे मोलाक मेळे म्ह्णु विचारसिले जागेचेरी मैनराँगेलो वाण्टो मेळ्का म्हणु साँगून एक बरप वकीलाने मेळें। जागो व्यारु केलेलो मारवाडी मुम्बई चंवकीलो। अंवसरान्तु भरसी तागेली पत्तो घेत्तलना आसीलो ताणे। मधें पुत्तान खर्चीलो रुपयाक लेक ना।

रंगणामाम भाग्यवन्त आसीलो। तका आठ लक्ष रुपयाचे एक लोटरी लागेन मारली। आताँ रंगणमामान समजून खर्चूचें म्हणु विचारसिलें। पुत्तान केलेलें रीण चुकोंव्का। अंगडी चाँग रूपान चलोंव्का। ताणे मनान्तु विचारसिलें। सानु एकु फोडु। रंगणमामान तक्का मन दिल्लेना। जाल्यरि दूकि चड़ जाल्या

की ताणे डा. शंणैक दाकेयलें। तानी सॉगलें की, रंगणमाम हॉव एक बरप, तिरुवनन्तपुरम अस्सीले डा. चाको हाँका दित्ताँ। काँयि ना, जल्यारीयि संशयु नक्का पळे। रंगणमामार्कायि काँयि संशयु ना। जाल्यारी डा. चाकोले बरप वचून ऐकिल्याँ की रंगणमामाक आधी जाली। कानसर त। सुमार काल जल्ले प्रारम्भु जाव्नु । औदिकेक खर्चु सुमार जातोलो, रंगणमामाक दुसरेवेळा चिन्तन कोर्का पळेना। ससरायेक मेळेलो जागो दिल्यारी चाँग मोल मेळतलें। जाल्यारी भीतरी जाव्नु आस्सिलो जागो। आनी तजेरी मैनराँक वण्टो दींव्का पडतलो। परनो ब्रोकर अब्दुल्ला साँगूक लागलो। इत्याक, पनास सास रुपयान घेत्तलो जागो पूरा, पनाससास रुपयाक व्यारु जालो। रंगणमाम आनी सुशीला तिरुवनन्तपुरम जालीं। पूतु वायट संसर्गान्तु भुडोलो। दूव दुरचे एक बन्धूले घरल्याक जाली। रंगणामामाली आवसु बावडी प्रथर्माच सरली। रंगणमामाक साबार औदिक जाँव्का पळेना। व्हेलेलो दुडु सरलो की रंगणमार्मूयि सरलो।

आजी वेंकटाचलपती देवस्थानान्तु महोत्सवु। देवु आराटाक पापनाशन तळयान्तु बायर सरलो की हाँगा देवस्थानान्तु नवे तथा परने पेरान्तु जन बरलें। अवबृत स्नान जालें की हाँगा पान दीव्नु संब्रादण शुरू जाली। जाल्यारी थाँका बैसूनु जेवण कोर्चे कितुले जन पाँच वर्ष पुरतम ह्यं पेरें कोर्नु दिलेले रंगणमामाक उडगासु करतायि!!



---

*कोंकणी भाषा प्रचार सभाचे 1999 वर्साचे साहित्य पुरस्कार मेळ्ळेली काणी।*

कथा

# विश्वाचोवती चन्द्रेमु

काञ्चना बोस

"सुनन्दक्का, सुनन्दक्का" हाँवे वोडान वुलदीले। मिगेल वुलदप अयकूनु लघी घरकडची गांगा मदिलावुनचावेलान चोयली। जल्यारीय घरान्तु अस्सिल्ले सुनन्दक्काक मिगेल वुल्लो अयकूक नज्ज।

हत्तान्तुलो चवयेजोल्लो सुनन्दक्कालगी दिल्यारीत मक्का जोलीक वच्यात। सुनन्दक्का, एक वोद्यी यो। व्र्नव्वाड जल्ली। सुनन्दक्का एना। हाँव कोपान वस्सरान्तु चंवकीली। सुनन्दक्का वस्सरान्तु ना. वोगी नणयान्तुय, कक्कूसान्तुय वोचूनु चोयली। थंगाई ना। खन्दयावेली बाग काणु खाल दवरलो। खन्तय वोच्चूनु बेसली म्होणु कळना?।

आजी इत्ती जल्ले। केदनाय हाँवे जोलीक वत्तसना चावी काणु धेवुंचाक हस्सूनु धाव्नु एवंची आळीतं। जल्यारी आजी?। लघी घरकड भी गेल्लीवे? वच्चाक वाटना। घरान्तु थकूनु पावु काणु दोवोरका जल्यारी मिज्जिलगी संगूनत्तिल्ले वच्चप ना ।तस्सी खंय वोच्चूनु बेस्सुच्चो स्वभावुय सुनन्दक्काक ना। एस्सीय तस्सीय भोव्नु व्र् दा जल्ली। घर पूटी कोरनात्तिल्ले कस्सी हाँव वत्तली। घर कोणालगी सोणु वच्चप? खन्तय गेल्या? केदाण पोरतूनु एत्तली म्होणु लेकप। अनीक आजी जोलीक वच्चाक ओवसुना।

वर्ष चारी जल्ली,काली अनीक आजी नय् । खयीय वत्तसना अरमाली सगी चावी कोरनु चाविए जोल्लो सुनन्दक्कालगी दीवपतं। चवये जोल्लो काणु गेत्तसना तिगेल तोण्ड एक फुल्लेंवंचे चोवुँका जल्लेलेत।

अरद मणिकूर चड जल्ले सुनन्दक्का पवलेना। घरा बायर वोच्चूनु चोयली, थंग खय ना। लघी घरवन्दाक सग निवंगीले थंगाय ना मन्नान्तु खतखते आयला खंय वत्ता जल्यारी संगूक पाणा वे? कोणय नक्का म्होणु संगूक वत्तवे। घरान्तु एव्नु पोडया म्होणु लेक्किले। जल्यारी पळयारी नीद पणा ।मन्नान्तुलो कोपु वोच्चूनु भय्य दिस्सूक आरांभिले।

कस्सले जल्ले? अनीक कसलेय वायट बुद्धि भी तिक्का दिस्सलिवे? "जीव त्यागु भी"?। हाँव सगळीची हुम्मेली। वोगी वांचूनु बाँयन्तु चांयली। जीवु खाल अयलो। तन्तु ना। लगीची रेयलवे स्टेशन अस्सा। हाँव घरय पूटी कोरनु पिश्याचेमटची स्टेशनान्तु धवली। थंगा रेयलवे समरं खंय। आश्वासु जल्लो। भाँडी एंचेय, वच्चेय कायी ना। तस्सीची घरकड परतूनु अयली। व्र् बारा जर्ल्ली।

कोणालगीयी यें कस्सी म्ह्णप। लोकु अंकाची हसतोलो। फेन फुल्लारी गालनु हाँव कदलारी बेस्सली। मन्नान्तु एक समाधानय मेळना। सुनन्दक्का अंचलगी एस्सी करतलीवे?। ना। कोरका जल्लेल कायर्री काँय नामु। अम्मि तिका एक मलगाडी अक्का मटचीत लेक्किताय। तीवय अंकाय तस्सोची भवण्डामटचीत लेक्किता। काँई तस्सि अळतपेळतान्तु वुल्लोव्नु गेवप ना। मारनु गेवप ना। मगीर इत्तें? चडजल्यारी रवन्दयेक तिकसाणी, मिडसाणी चडऊणे जल्ले म्होणु वुल्लोव्नु गेवप अस्स। ते गडयेक तें मन्नान्तु धवुनु बेसतर्ली। पाँच र्मिनट जल्यारी तें सग विस्सोरनु फूडे मटची जत्ताली।

एरसी नय तस्सी इतेय जल्यारी मगीर वोरनु फल अस्सवे? अत्तवरान केल्लेल काँई दिक्कूक एवना। घूवुन दृष्टि गालनत्तिल्ली सग सोयरीक संगूनु पँवतर्नी।

वेगल्यांक इत्याक संगूका। मिगेलीची आळ मक्का संगतली। सुनन्दक्काक अंगा हाणु रबोंचाक कोणाक तात्पर्य ना अस्सिल्ले। बमणाक सरी। मिगेल एकलेल तात्पयांनतं तिका अंगा रब्बेयलेली। इतेय जल्यारीय हाँव अनभसून म्होणु संगूनु।

ना जल्यारीय मिगेली कस्सली बुद्धि? सबाव एक दीसा परिचयान घरकडे हाणु रब्बेयलेले मक्का जाँवका मारूक पाप नवे देवा। बमणान सोळेली बायलमनीषी। घर ना दार ना। पोट्टाक खंचाक अन्न ना। तोण्डाक चोयल्यारी चाँग बरखत। गोरेंची वडकुळेंची तोण्ड। निडळारी वडकूलोची कुंकुमे तीळो। केस्साक तेल नत्तिल्यान उबूचे पिनगूसे केस। देहारी पिनजल्ले वस्त्र। तस्सी अस्सिल्ले सुनन्दक्काक एक वरडीकेक वच्चाक अनीक परिचयु जल्लोलत,

कष्ट दिस्सूनु हाँवे लगी वुळदूनु वर्तमान उल्लेयलेंलें। एक्केक घरवन्दाक वोचूनु दीस कडप। एक्केवेळेंरी इतेय खंचाक मेळतले ना जल्यारी अमपडप। तिगेल उत्तर अयकूनु वोड दुःख जल्ले। हाँव जल्यारी चेरटाक चोंचाक आळु सोधूनु भोंचो वेळु। दिकल्यारी वोळे पिडिप्प ना जल्यारीय बेडुपकायोय शान्ततकायोय अस्सा काँई मुक्कारी आलोचन कोर नत्तिल्ले हाँवे निवगोले अंगले चेरडाक चोंचाक अंचालगी एव्नु रबतलीवे म्होणु। चेरडाक डेंकेयरान्तु सोडचा पसी चिन्ना नवे म्होणु मन्नान्तु दिस्सले। घरकडे एकी आळी म्होणुय जत्तलेनवे।

मिगेल उत्तर अयकूनु तीणें मिगेल पय्याक अप्पोणु पाँयीपळी। नक्का, नक्का, हाँव तुंचाक वुत्तूली सानी। कोणय दिकतली। हाँवें पायु मगल्यान कळो। बमणालगी निवगूनु तिका कळेयन म्होणु संगीले !

दीस दोनी जंचे फूडे ती तिगेल मोटय गेव्नु घरकड पवली। बमणाक तालपर्य वोळे ना जल्यारीय चेरडाल़ कयरी वोरत कोरनु सम्मय जल्लो। तेंदूस थकून आजी पर्यान ती अंगा अस्स आजी चेरडाक वर्ष चवड जल्ली। चेल्लेंलकयरीय गरकडचेंयी सत्यान चोव्नु पोळोव्नु सुनन्दक्का करता।

बेस्सल्ले बेसपाक वर्‌ एक जल्ले।सुनन्दक्का ना एक वरारी जेंवुचाक जानु पुणये घरकडे पंवतली म्होणु लेकीले।मन्नान्तु आखान्तु जल्लो। आफीसान्तु वोरूक कळेल सीत काणु जेवलीकी ना की म्होंणु केल्ले। बमुणाक फोण कोर्या म्हळयारी मिज्जा आखान्तु तंका जत्तलो। नक्का। सघ भोगूय। मन्नान्तु कोपुय रणेय एकसणीची अयले। वुतुलेयकालाक तिक्का रबायलेल बिगेंक अंक दिलेल ली कूली. सबाव नय तिक्का बमुणान सोळेली।

ओवूट वरार पुणय तोणे एव्नत्तिल्ले रब्नुन्ना स्कूल सोणु चेल्लो पवन्तोलो। तो म्ह्ळयारी तिक्का जीवुत। खयींची अस्स जल्यारीयी ताणे स्कूल सोणु पवंचे फुडेती घरकडे परतूनु पंवतली।

समुद्रा पाळा मटची मन्नान्तु एकावूँच एक जाव्नु विचारु आयलो। हाँव मच्चारी वोचूनु पळी। एक दोळो लगोलो। तेद्धेभितेंरी घरा मुक्कारी लोका गोन्दोळु। सगय सुनन्दक्काक बरबरीची वोडूनु हडताय। ती जल्यारी पोणु बोब गलता। नक्का, नक्का, सोडाय, मक्का सोडाय। हाँव अनीक तस्सी कोरना

सुनन्दक्काल बोब अयकूनु हाँव बायर दवली। सुनन्दक्काले वस्त्र सघ तिम्मूनु अस्स। केस मिकोळनु अस्स। इच्छय हिक्का दरी म्होणु संगूनु तिक्का मिज्जे पया म्हणान्तु गल्ली। यी बायल मोरूक वत्तालीत। तुमगेली बादा सहिजाण्नत्तिल्यान म्होणु दिसता। तेदेभीतेरी पोलीस वान आयले। सघ दूर सरली। पोलीस मिगेलेय सुनन्दक्कालेय लगी अयले। हाँव सगटॉकय चोयली। सघ मक्कायी चोयताय। हाँव इतकीची कोलयाळी मट्ट तं सुनन्दक्का मत्तेय बवगूनु बेसल्या हाँव तोण्डारीय हातु दोवोरनु रळी। पोलीसान अंका बरबरीची वोडीर्ली। नक्का, नक्का म्होणु हाँवे बोब गल्ली।

हावु, हाँव भीवुनु वुटायली। ये सघ सपन वें अस्सिले? ! हाँव सगळी हुम्मेन थप्पूनु अस्स। करन्ड वोच्चूनु फेन्य रब्बिले। देह सगय तळर जल्लें।

सुनन्दक्कान तस्सी काँइ कोरना। तिक्का कोण बोन्दूना, कूटना। मगीरी खन्तय वचाक? आगे अस्स। मह्यूण संगूक एक पूत. तोजोल्यार बडक्कारी खंय आसा तोनी वर्षारी तक्काय बमुणालगी सोणु अयलेलीत। वरडीक जाव्नु वर्ष चारी जंवुचाक अनीकयी बमुणान तिक्का सोळी।सिकवणय बुद्धीय नत्तिल्ली नवें। इत्येंय संगल्यारीय करतली। प्राप्ती ना बुद्धीना, सिकवण ना, मनीषाँ मुक्कारी वोरूक वोस्तुनय म्होणु संगूनु केदनाय वुल्लवप। मुद्रपत्रारी ओपगाली म्होणु संगूनु मारप। तिगेल घरकरानी ओप गालूक पणा म्होणु संगूनु तीणे गल्लेंना। वाट आदारु कोरूकतं बमुणाल विधा म्होणु तिक्का मन्नान्तु जल्ले। तीणे ओप गलना म्होणु मन्नान्तु जंचाक अनीक ताणे वेष वेधळे कळे। एक दीसा रत्ति तिजेलगी ओप गालूक निरबोन्दु केल्लो। ना जल्यार चेरडाक्य गेव्नु तो अत्त समुद्रान्तु वुडकी मरतोलो म्होणु संगूनु चेरडाक्य गेव्नु बायर गेल्लो। यें दिक्कूनु सुनन्दक्का सगळीची सडळ जल्ली। तीणे वोघी बमुणाक वुळ्दूनु कगतार ओप गालनु दील्ली। बमुणाक सन्तोष जल्लो। तिक्काय सन्तोष जल्लो। बमुणाकय पुत्ताकय तिक्का मेळो नवे तेदूस दोगय सन्तोषण निद्देली। हेरदूसाय बमुणु अतीव सन्तोषान। बमुणान स्नेहान तिक्का वुळदूणु वर्तमान वुल्लेयले। तिज्जकरान अरमालीन्तुलो नवोची चोगोय, मुण्डय काणु गेतलें, तेवेय नेस्सूनु तो सन्तोषान बायर गेल्लो। एदी घडी जंवुचाक अनीक घरा मुक्कारी एक कार अयले। कारांत थकूनु बमुणूय तेग जाण ददूलेय, एकी

सोप्रण्डेलीयी बयलय बायर देवली। सुनन्दक्काल तोण्डा चोवनत्तिल्ले सघटय घरान्तु चोणु गेल्ली। अनी समची वस्सरान्तु चळी। चाँगी तान। सगटागुणीय चाय दवरी। बमुणान संगीले। सुनन्दक्का ते अंयकूनु चाय दोवरूक गेल्ली। नक्का, आनी थकूनु चाया ती दवरतली। तूँवे पिल्या मात्र पूरो। बमुणाले वुत्तर अयकूनु सघटय कुदकुतेव्नु हस्सीर्ली। सुनन्दक्काक कयरी मनान्तु जल्लो। ती वुतोची फिदरान्तु वोचूनु बेस्सली।

हेरदूसा रोणु वोच्चूनु अन्ना लघी संगीले। प्रयोजनु ना जल्लो। तंचो अनुवादु नत्तिल्ले ओप गल्लेल फल। मुद्रपत्रारी इत्तें बरेयल्या म्होणु सरी कोणाक कळना। कोटर्तीत बोच्चूनु फल अस्सुन्न म्होणु बमुणाल वक्कीलान संगीले। वरडीक कोरनु पेटेयलेले तुक्का बप्पांतय कोसोल अवकाशुच ना, स्थलय ना म्होणु संगूनु तन्नीय पेटेयली।

घरान्तु नवी राणी अयली। एक दीसा फलफल्यारी सुनन्दक्काय वुडकराव्नु लोक्कानी दिक्कुचे फूडे घरकड थकूनु बायर देवेयली/एकी मोट्यी गेव्नु राणी दाव्नु मगल्यान अयली। मोट सुनन्दक्काक दिल्ली। निद्देव्नु पळेल चेरडाक एक चोंचाक सरी बमुणान दिल्लेना।

वच्चाक खंचे घर ना आस्सिल्ले। चोणु वच्चे सर्व दरवोंटेय बन्द जल्ले। तस्सी लक्ष्य नत्तिल्ले तिगेल यात्रेक आरंभु पोळो।

सुनन्दक्काली दुखाची कथा वुडगासु कोरनु दोळे भरले। पाप, एक्केक दीसाचे सबाव बेसूनु रडतली। दोनी अक्षर मक्का कळताले जल्यारी यी गती एवना आस्सिल्ली।संगूनु इत्ति प्रयोजनु।कोणाक नक्का जल्लेले हांव वोरनु फल इत्ते?

सुनन्दक्का, तूँ कोणाक नक्का जल्यारीय अंका जाय। अंगेल पुत्ताक जाय। तो तुक्का इत्तिकी म्ह्णता। अय्ये म्होणु नय वे? पन्नास वर्षारी तूं आयी जल्लेना वे?।

वय पुता तुम्मी अस्स दिक्कूनुत हाँव अस्सि अस्स। तुमगेल स्नेहु मात्र तं मक्का एकु आश्वासु म्होणु सुनन्दक्का संगतली।

अत्त ये सग वोरत कोरनु बेस्सुचो वेळु नय। हाँव बोगी वुटायली। कूडीन्तु

वोचून, देवाक नामस्कारु गल्लो। मन मिगेलें दळदळी रेळे। देवा, तूँची रक्कूका म्होणु संगीले। वर् ओवूट जल्लीं। स्कूलाथकूनु चेल्लो पवलो। तक्का दुधय, खंचाकय दिल्ले। तो वेळु भितरी सुनन्दक्का पवलेना। घर पूटी केल्ले। चावी लघी घरकडे दिल्ली। अम्मी दोगय चंकीलीं।

अम्मा आई खय? अम्मा अंकाय अय्येलगी वच्चा।

यो वच्चा म्होणु संगूनु दोगय बस्सारी चळी। चेल्लो इतकी सग निवंगीता, संगाता। हाँव काँई अयकीलेना। जोली जँचे फूडे बमुणाले आफिसान्तु पाँवका। मक्का कसीय एक बमुणाक दिक्कील्या पूरो जल्ले।

अपवादु। मक्का केदनाय भय्य अस्सिल्ले साधन. एय सुनन्दक्का अनीक इत्ति करता? मगलान बेसली एकी बायल तोण्डी कोरनु उल्लेयता। पोटान्तु वुण्डालो अयलो सौख्य। म्होणु संगूनु हाँव हस्सीली। आजी पर्यान सुनन्दक्का पोसोनु कोणय निवगिल्ले जाव्नु वुड्गासु ना। यीणे वटेर खयी दिकील भीवे? मन्नान्तु आखान्तु चोड्डु जल्लो।

मिगेल वेळु बल्लावु। शनी दशेरी सरी एसोल एकु वेळु अयलोना हक्का इत्ति कारण? आलोचन कोरनु पूरो जल्ले। बस्सान्तुलान लोवूची बायर चोयली। चेरडूँव स्कूल सोणु घरकडे वत्तायी। ऊँचारी निळची मळब। तंतू दर्वे कपसा मोटे मटची धवे मेद्य उबून वत्ता मळबारी चोयता चोयता मक्का वुडगासु अयलो। चन्द्रेमु, विन्नाचोवती चन्द्रेमु। हाँवे विन्नाचोवतीक देवळान्तु वत्तसना चन्द्रमाका दिक्किलोतं। तेदूस चन्द्रमाक दिकल्यारी अपवादू तीर्चा। देवु, कृष्णाक सरी अपवादू अयलोनावे? अनीक वे मक्का? सुनन्दक्काचेरी अस्सिल्लो कोपु मक्का चन्द्रमाचेरी जल्लो। सबाव नयरे बडकावेलो लोकु पडमावेले महादेवाल मत्यारी अस्सिल्ले चन्द्रमासीर सरी विन्नाचोवती दीसा कगतान निपेयताय। तस्सी जाँवुकारे तुक्का।

बस्स बमुणाल अफीसा मुक्कारी रबेयले। अम्मि दोगय देव्नु समची आफीसान्तु गेल्ली। अंका दिक्कूक अनिकयी बम्मूणु दावुनु अयलो। इत्ते? आजी अम्माय पुत्तूय पदीव नत्तिल्ले। हाँवे संता सघ कयरींय बमुणाक संगूनु अयकेयली। तन्नी आफीसान्तुला लगी म्हळें।

तुम्मी अस्सी वुतो बेसल्यारी नुप्पूरो। हज्जे गौरवं तुंका कळना दिक्कूनुत।अतर्चीं पोलीसाँन्तु कोळोका। कालु वायटतं। दूरदर्शनान्तुय कोळोंचे चांग। एय्याय। अत्तंची वच्चा। अम्मी चोवगायी कोरनु पोलीस स्टेषशनान्तु गेल्ली। थंगा तज्जा गेन्दोळु। रबूनु रबूनु पूरो जल्ले। अंका वुळदूक अनीक अम्मी वोचू नु कयरी संगीले। तंगेल वर्तमान अयकूनु भय्य चड नत्तंना वूणे जल्लेना। अम्मी चोवगय थंगा थकूनु बायर देवली।

वटेरी रबूनु सग एकेकी चाय पिल्ली। आंचे सहाया अयलोल आळु अंचेलगी यात्रा संगूनु गेल्लो। अम्मि बस्सरी चोणु गाँवान्तु पवलीं। वटेरी जल्यारी करन्डना। थंग थंग जाव्नु गिन्नामिनुंग उबता। वटेरी चाँग चन्दीणें।

घरकड पाव्नु सत्यान जोली आरांभूका। अम्मी वोघी वोघी चंवकीली। वोणी तोण्डार रबूनूची दिकीले, मळ्येवेले कूटान्तु मेणावाती वुजवाडु। दाँव्नु घराचे दरलान्तु पवली। घराकवड आड कोरनु सोळया। अम्मी वोगी मळ्येरी कूडान्तु गेल्ली।

सुनन्दक्का मंचार गूव्नु बेस्सूनु कसलकीची करता। सुनन्दक्का, सुन्दक्का। हांवे ताळो केल्लो ती भीवुनु वुटायली। हत्तान्तुले इतकीयी मगल्यान निप्पेयता।

इत्ति तें? मुक्कारी काटी, अम्मीय चोयताय। हाँवे कोप्पान संगीले।

हातु वोघी मुक्कारी काणु ती वोकले मटची लज्जेन रबिल्या।

हाय, स्लेटी अनीक पेनसिल चेल्यान संगीले

पुता तुम्मी मक्का माप कोरका। हाँव ते टीचरान संगूनु मन्तराले विद्याभ्यासाक (वयोजन विद्याभ्यासाक) गेल्लेलितं। आजीते स्कूल तोरनो कोरनु एक वर्ष जल्ले खाय। हाँव थंगाची जेवलीय, खेल्लेय। चोयी मिगेल नाव बरेयल-सुनन्दा ये मिगेल हत्ताक दोरनु टीचरान बरेयलेलतं।

मिगेल तोणान्तु अयलेली उत्तर हांवे तसीची गिळीं। एक दीर्घ श्वासु सोणु अम्मि दोगय सुनन्दक्कालगीची मनचारी बेसलीं।एदे वारे गेंचे आशेन जन्नरलार्चे कवड कळे। मिगेल दोले समची मळबारी गेल्ले। तवळी थंगा बेसूनु तो चन्द्रेमु माक्काची चोव्नु हस्सता। मक्का लज्जा जल्ली। हाँवे तक्का पाँई पोणुं संगीले अरे, चन्द्रमा माप कोरकारे । बमूनुय, चेल्लोय, सुनन्दक्काय काँई मन्त्रांत जाउनलिल्लें मक्का चोयलीं।

